# जाग

वर्स ३७ : आंक ६ : मे, २०११

संस्थापक संपादपी


रवीन्द्र केळेकार

संस्थापक जाग प्रकाशन


सुमंत केळेकार

* संपादपी
माधवी सरदेसाय
(मोबायल: ९४२११५७००७)

* उजवाडावपी
डॉ. जयवंत भा. सरदेसाय

* छापपी
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट प्रिन्टर्स,
वळवय, फोंडें-गोंय.

वर्सुकी पटी : रु. २००/-
विद्यार्थ्यां खातीर : रु. १५०/-
तीन वर्सांची पटी : रु. ५००/-
पटी मनी ऑर्डरीन वा बँकेच्या मडगांव फांट्याचेर काडिल्ल्या ड्राफ्टान धाडची. ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. २०/-

jaag04@yahoo.co.in

## ह्या आंकांत :





"राजकी परिस्थितीची जाण आशिल्लो भोवजनसमाज ह्या लोकवेदांत झळकता. तोच ह्या नाटकाची आस्त - hope. भोल्या आड मोर्चा घेवन आयिल्लो मोर्चाचो मुखेली निमाणो पिशांतूर जाता. ह्या नाटकाच्या अखेरांतूय एक आस्त आसा. पिशांतूर जाल्ल्या मुखेल्याक भोल्याचो शेलको पयशे दिवन ओगी करतलो...? म्हाका दिसना. मुखेल्याची तकली 'जाग्यार आशिल्ली', देखून तो असो पिशांतूर जालो..."





"ती आयली म्हणटच भुरगीं धांवून तिचेशीं येवंक लागलीं. हें पळोवन कोणें फळो हाडून दिलो, दुसऱ्यान कदेल दिलें आनी तिसऱ्यान मेज हाडलें. कोलकाताच्या काम्राचे कामदार लोक घालतात तसली सवाय देरेची निळ्या रंगाची साडी न्हेसून गरिबां मर्दी काम करतले माद्रीक पळोवन लोकांक बारीकसाण जाली आनी अजापूय जालें. जायते लोक तिच्या वावराक खांद मारूंक लागले..."





"आमच्या सांवड्ड्यांत अशी परिस्थिती केन्नाच नासली. असो सांवार येयल्ले सारको ट्रान्सपोर्ट हांगाच्यान केन्नाच जायनासलो. पयलीं ह्या रस्त्या वयल्यान फकत चार ते पांच कंपन्यांचोच ट्रान्सपोर्ट चलतालो आनी ट्रकूय कमी आसले. तेन्ना रस्तो अरुंद आसून सुद्दां कोणाकूच त्रास जायनासले... पूण आयज तशें ना..."





"पुस्तक वाचूंक घेतलें तें पुराय करुनूच सकयल दवरिल्लें म्हळ्यार जाता. इतलेंच न्हय, बसींतल्यान वता आसतना बसींत लेगीत वाचूंक मेळचें देखून तें हातांत घेवन फिरतालों. ताका हांवें कव्हरूय घाल्लें. कित्याक लागून? तें म्हेळें जावचें न्हय देखून? ना. कोंकणी पुस्तक हातांत घेवन भोंवपाक म्हाका अजून लज दिसताली..."





"*तळ्याचो फातर* हे रामनाथ गांवडे हांचे नवे कादंबरेंत एका गांवगिऱ्या चोम्याचे प्रस्न ज्वलंत जावन येतात. कादंबरी चिऱ्या खणी भोंवतणी घुंवता. दत्तू आपली जमीन कल्लप्पाक चिरे काडपाक दिता, आनी मागीर सुरू जाता एक नाट्य. कल्लप्पा पोटा खातीर चिऱ्यांचो धंदो करता. पूण शेत जमनी कडलें ताचें भावनीक नातें दाखोवंक लेखक यशस्वी थारता.एक असहाय्य अगतीकताय पुराय कादंबरेंत व्यापून उरता..."

*ते भायर*



भितल्लीं चित्रां:
मिलन खानोलकार

## नदर संपादप्याची

# राजकारणाची भास, भाशेचें राजकारण - *शबै शबै भौजनसमाज* नाटकाच्या संदर्भांत

सुटके उपरांतच्या गोंयांतल्यो राजकी घडणुको *शबै शबै भौजनसमाज,* ह्या पुंडलीक नारायण नायकांच्या नाटकाचें pre-text ह्या राजकी घडणुकां कडेन भाशीक नदरेन पळेत जाल्यार दिसता, १९६१ वर्साच्या डिसेंबर म्हयन्यांत गोंयांतली साडे चारशीं वर्सांची पुर्तुगेजांची राजवट सोंपली आनी गोंय राष्ट्रीय प्रवाहांत गेलें तेन्ना गोंयच्या राजकी जिवितांत एक नवी 'भास' रिगली. लोकशाय, जनता (जन्ता), भौजनसमाज, पक्ष, इलेक्शन/वेंचणूक, उमेदवार, कार्यकर्तो, पोस्टर (पोश्टर), बॅनर, मिटींग/सभा, प्रचार, जाहीरनामो, आमदार, मिनिस्टर (मिनिष्टर)/मंत्री, सेक्रेटरी (शेक्रेटरी) राजिनामो, शिश्टमंडळ, घेराव, सत्कार, उद्‌घाटन, फायल, विकास (इकास), कल्याण, प्रगती (परगती), पत्रक, झिंदाबाद, मुर्दाबाद... ही भास गोंयकारांचे संवकळीची जावंक लागली. सत्तेच्या राजकारणांत हे भाशेचो 'कंडो हालोवप' भोव म्हत्वाचें जालें. *शबै शबै भौजनसमाज* नाटक म्हळ्यार, एके नदरेन, हे राजकारणाचे भाशेचो 'शिगमो'!

ह्या शिगम्यांत भाशीक संकेतांच्या (सोंपे भाशेंत, उतरांच्या) 'वयलेचाराच्या आंगा'च्योच signifiersच्योच ('संकेतकां'च्योच) - घुडयो नाचतात. संकेतांच्या signifiedsक ('संकेतितां'क, सोंपे भाशेंत, अर्थांक) तातूंत व्हडलेंशें म्हत्व ना.

हाची एक अतितायेची देख नाटकांतल्या 'जाहीरनामो' आनी 'राजिनामो' ह्या उतरांच्या घोळांत दिश्टी पडटा - वेंचणुकेचे प्रचार-सभे वेळार 'जाहीरनामो' उतराचे सुवातेर भोल्याचे जिबेर 'राजिनामो' येता (पान १०). मुखार भोलो वेंचून येवन मंत्री जाता आनी कोण तरी ताच्या राजिनाम्याची मागणी करता तेन्ना 'राजिनामो' म्हळ्यार भोलो 'जाहीरनामो' समजता आनी सेक्रेटरीक सांगता, "मागणी केल्या जाल्यार तेंकां दिवन वडय. इलेक्शनाच्या वेळार खूब शापिल्ले आसा न्हू" (पान ४४). हाचे मातशे पयलीं "...म्हाका आमील जाय... नाजाल्यार हांव जाहीरनामो पासून दिवपाक तयार आसां" (पान ४४) अशें तो म्हणटा. हांगा ताच्या मनांत 'राजिनामो' उतराचो अर्थ आशिल्लो जावंक जाय.

हेच भाशेन, भोल्याचे जिबेर 'महिला मंडळ' 'मैला मंडळ' जाता (पान ५७), आनी कोण एकलो '(देशाची) राज्यघटना' म्हणचे सुवातेर '(देशाचें) राज्यघट्टण' म्हणटा (पान ३४).




हो सगलो उतरांचो घोळ होवूय एक संकेत - राजकारणांतल्या भाशेच्या वापराचो - गैर वापराचो. ह्या गैर वापराक लागून, एके तरेची 'निस्तेज' - मोनी, 'अर्थ नाशिल्ली' भास - आमच्या राजकी मळार घोळटा. हे भाशेंत उतरांचे signifiersच दोळ्यांत भरतात. तांचे signifieds सोदचे पडटात. केन्ना केन्ना, सोदल्यारूय ते मेळनात. देखून 'भौजनसमाजाचो विकास (इकास)' (पान ५१), 'भौजनसमाजाचें कल्याण' (पान ५४), 'भौजनसमाजाचो उद्‌धार' (पान ५७) बी उतरां कांय 'सांगनात' - तांकां 'अर्थ आसना'. इतलेंच न्हय, राजकारण्यांनी दिल्लीं उतरां, आश्वासनां 'खरीं' आसनात. तांणी दिल्ल्यो देणग्योय 'खऱ्यो' आसनात, आनी हें सगलें 'फटकिरेपण' चालंत राजकारणाचे भाशेच्या व्याकरणांत बसता.

राजकारणाचे भाशेची इतली ही अवनत कशी जाली? ती कित्याक लागून जाली?[२] कोणें ती केली? ह्या सगल्या प्रस्नांच्यो जापो सोदपाचो यत्न आमी करतात तेन्ना भाशेचें राजकारण इल्लें इल्लें स्पश्ट जावपाक लागता. *शबै शबै भौजनसमाज* आमकां राजकी मळा वयली ही अवनत, हें 'निसंतान' धड्डडीत दाखयता.

'निसंतान' उतराचो भोव प्रभावी वापर ह्या नाटकांत बरोवप्यान केला. सामान्यतायेन, 'तुजें निसंतान जावं' (म्हळ्यार, 'पाड पडूं') सारकेले स्रापा वरी गाळींत येवपी हें उतर हांगा (स्रापाचो परिणाम म्हूण (?) उपजल्ले) परिस्थितीचें 'नांव' - वर्णन - जावन येता. समिक्षकाचे नदरेन राजकी 'प्रहसन' वा 'विडंबन'[३] आशिल्ल्या ह्या नाटकाक नाटकांतल्या नाटकाचें निवेदन करपी नाटकांतलेंच पात्र 'राजकी निसंतान' (पान ३) म्हणटा[४] आनी नाटक खऱ्यांनीच आमका एका राजकी 'Waste Land'त घेवन वता. ह्या Waste Landत मनशां आसात पूण तांचेर पातयेवं नजऽ; उतरां आसात पूण तांचेर - तांच्या अर्थाचेर - भरवंसू नजऽ... असल्या ह्या रेंवे सड्यार कितेंच किल्लुपाची आस्त ना अशी अस्वस्थकाय नाटकाचो पड्डो पडटा तेन्ना पळोवप्याच्या/वाचप्याच्या काळजार फांकता.

आधुनीक नाटकाचीं लक्षणां स्पश्ट करता आसतना पुंडलीकबाब बरयतात, "...नाटक रंगमाचयेर सोंपता जाल्यार तें प्रेक्षकांच्या मनांत सुरू जावपाक जाय..."[५] *शबै शबै भौजनसमाज,* हे भाशेन, सोंपता थंय सावन परतें सुरू जाता!

जायते फावटीं, संवकळीक लागून आमचे संस्कृतायेचीं कितलींशीं आंगां - चाली-रिती, संकल्पना, मान्यतायो - आमकां सभावीक, 'सैमीक' दिसूंक लागतात. तांच्या 'इतिहासा'ची आमकां विसराय पडटा. हातूंतल्यान आर्विल्लीं मिथकां तयार जातात आनी दिसपट्टे जिणेंत आमी कितल्याश्या मिथकांचीं consumers जातात.[६] 'भोवजनसमाज' हेंवूय बी हे तरेचें आमच्या राजकी मळा वयलें एक मिथक.

नाटकाचे सुरवेक (पान ८) भौजनसमाज पक्षाच्या अध्यक्षाक सभेंतलो एकलो सांगता, ''...हांगा भौजनसमाजाचो एकलोय मनीस ना.'' दुसरो म्हणटा, ''हांगा आसात ते - बामण, वाणी, देवळी, शेट, चाड्डे, म्हाले, म्हार, चामार.'' हाचेर अध्यक्ष तांकां सांगता, ''हे सगळे म्हणजेच भौजनसमाज.'' आनी सगल्यांक 'भौजनसमाजा'चो अर्थ 'कळटा'. भौजनसमाजाची संकल्पना हे भाशेन naturalize जाता, 'सभावीक' जाता. भोवजनसमाज पक्ष, भोवजनसमाज पक्षाचें सरकार वा मंत्री जें कितें करतात तें सगलें भोवजनसमाजा खातीर केल्ले वरी जाता,[७] आनी ह्या पक्षाक, पक्षाच्या सरकाराक वा मंत्र्याक विरोध करपी सगले भोवजनसमाजाचेच विरोधक जातात. देखून भोल्या आड मोर्चा घेवन आयिल्ल्यांक भोलो सांगता, ''...तुमचो हेतू सुद्ध ना... तुमी भौजनसमाज न्हूं. तुमी भौजनसमाज आशिल्ले जाल्यार भौजनसमाजाच्या प्रतिनिधीची असो मोर्चा हाडून लज काडचे नाशिल्ले'' (पान ६८). राजकारणाचो शिगमो सगलो भोवजनसमाजाच्या नांवान चलता, पूण भोवजनसमाज कोण हें निमाणे मेरेन कोणाकूच 'सारकें खबर' आसना. भोवजनसमाजाच्या राजकारणांत तशें खबर आसपाचीय गरज आसना. मोर्चा घेवन आयिल्ल्यांक भोलो सांगता, ''हो भौजनसमाज, भौजनसमाज म्हणटा तो कोण, हें जो म्हाका सांगतलो तेका हांव फूल थंय फुलाची पाकळी म्हूण १००१ दितलों'' (पान ६७). पूण 'भौजनसमाज कोण' हें विरोधी भोल्याक सांगनात, वा तांकां तें सांगूंक येना.

ह्या 'रासवळ अज्ञाना'क लागुनूच भोवजनसमाजाचें मिथक आमचे मानसीकतायेंत पाळांमुळां धरूंक पावता आनी भोवजनसमाजाचें राजकारण करपी (खेळपी) राजकारण्यांचें फावता. तांकां भोवजनसमाजाच्या नांवान शबै घालूंक मेळटा. भोवजनसमाजा सारकेलीं मिथकां समाजांत मूळ धरतात तेन्नाच *शबै शबै भौजनसमाज* सारकेलीं 'राजकी निसंतानां'य तयार जावंक पावतात.

ह्या नाटकांतलें मुखेल पात्र 'भोलो' शणै गोंयबाबाल्या *मोगाचें लग्न*[८] नाटकांतल्या मुखेल पात्राची, 'बाबग्या'ची, याद जागयले बगर रावना. दोगूय 'भोवजनसमाजां'तले, आनी बरप-अक्षर शिकूंक नाशिल्ले. दोगांयच्या वांट्याक हे आदीं तांच्या जाणटेल्यांनी केन्ना करूंक नाशिल्लीं, परंपरेन 'वयल्या' समाजाचीं आशिल्लीं, कामां येतात. वेव्हार-चातुर्याच्या बळार आनी त्या 'कामाचे भाशे'चेर प्रभुत्व जोडून दोगूय जिविताच्या नाटकाचीं सवंगां सोबोवन व्हरतात.

वैजाक वैजकेचें निखटें गिन्यान आसून भागना, वायटकारांक वैजकेंतले लांब लांब शिळोक म्हूणन दाखोवन सरसमान मनशांचेर ह्या गिन्यानाचो प्रभावूय घालूंक ताका येवंक जाय (पान २१ पळोवचें), दुसऱ्या उतरांनी, ताका वैजकेचो कंडोय बरो हालोवंक येवंक जाय हें बाबगो 'शिकला'. गिन्यानाचे वाटेन वैजकेंत भितर सरपाक वाव नाशिल्ल्यान बाबगो 'कंडो हालोवन' ह्या संवसारांत घोळटा. आनी, आपले हुशारकायेन वयल्या समाजाचें प्रतिनिधित्व करपी घारुदाद, बोंबबाबाचेरूय आपणालो प्रभाव घालता - तांकां 'गुठलायता'.

भाशे विशींच्या मान्यतायांनी तर बाबगो पुरायेन 'वयल्या' समाजाच्या 'व्याकरणा'क धरून चलता. ''वैजान संवस्कुत्र नाजाल्यार म्हात्रभाशेनूच [मराठींत] उलौंक जाय. तितलेंय घडना जाल्यार ['हेंगाडी' कोंकणींत] उलैता आसतना मदीं मदीं संवस्कुत्र उतरां अद्रूण घालूंक जायत'' (पान ४९) हें भाशीक वेव्हाराचें व्याकरण बाबगो जाणा. ताकाच धरून तो चलता. दुसऱ्या उतरांनी, सत्तेच्या केन्द्रा सरींच रावता.

घारुदाद बरपाक्षरी समाजांतलो आशिल्ल्यान ताका 'संवस्कुत्र' (संस्कृत) येवंक जाय असो बाबग्याचो समज. पूण ही भास ताका 'शास्त्राकूय येना' म्हणपाचें कळटकच बाबगो संस्कृत, पोर्तुगेज आनी कोंकणी उतरां भरसावन आपणेंच घडयल्लो एक श्लोक म्हणून दाखोवन घारुदादाची 'परिक्षा' घेता. ''आवेलं कोकमिस्त्रितं तन्मध्ये ज्याग्रमेवच/ कोमिदं सुर्बुसं एवं बाबगो भुरकायते।'' ह्या श्लोकांतल्या एकाय उतराचो अर्थ घारुदादाक लागना म्हणपाचें कळटकूच वैजकेचो कंडो हालोवंक बाबगो पुरायेन मेकळो जाता (पानां ४७-४९ पळोवचीं). ''भाशेचें कसलेंच खतखतावणें म्हज्या पानार वाड; हांव भितर बुचकळी मारून वयर सरतलोंच'' (पानां ४८, ४९) हो बाबग्याचो विश्वास. ह्याच विश्वासाच्या बळग्यार सुब्रमणी फोंडे म्हालाचो 'आल्मिस्त्रादोर' जाला म्हूण कळना फुडें आपणाक 'रजिदोर' नेम म्हूण बाबगो ताका सांगूंक धजता. ''तुका रजिदोर? तुका फिंर्गी बरप येता व्हय?'' सुब्रमणी ताका अजापान विचारता आनी बाबगो ताका जाप दिता, ''ना आयलें म्हणून? फिंर्गी बरप कित्याक जाय? तोंडांत एक सिगार धल्लें. हातांत एक रोत घेतलें. फाटल्यान एक शिपायक घेतलो. हाका दबकायलो. ताका दटायलो. कोणाक दंड केलो. जालें. म्हैनो जातकूच पागामेंत घेतलो. आनीक रजिदोराचें काम तें कसलें?'' (पान ६७.) ह्या कामाक जोड म्हूण गरजेचीं आशिल्लीं ''शीं शिंयोर, नांव शिंयोर, आर्र दियाब, फिजेदकांव, वशिमोर, मानकुराद, आबेर्दामेर्द'' सारकेलीं फिंर्गी (पोर्तुगेज) उतरांय आपणाक येतात म्हणपाचें तो सांगता (पान ६७). बाबग्या बशेन भोलोय बी आपल्या 'धंद्या'चें व्याकरण शिकला. ताची भास तो फिशालकायेन वापरूंक जाणा.

भाशेच्या कसल्याय खतखतावण्यांत बुचकळी मारून वयर सरपाचो आत्मविश्वास आशिल्लो बाबगो आनी 'पोटाच्या रक्षणाक कित्याचेंय भक्षण' करपाचें 'शिक्षण' आशिल्लो (पान ५) भोलो दोगूय येसाचीं सपणां चडूंक जाणात. ह्या व्यक्तींचें येस म्हळ्यार, एके नदरेन, जे वेवस्थेंत ते येस जोडटात तिचें अपेस - 'तिचें 'निसंतान'!

नंदकुमार कामतींच्या मत्तान, ''*शबै शबै भौजनसमाज* नाटकांत भ्रश्ट राजकारण, राजकारणी, स्वाभिमानशून्य समाजाचें चित्रण जालां. पूण 'Why it is so'चो खंयच विचार ना.''[९] *शबै शबै भौजनसमाजां*तली असमर्थता, हतबलता नंदकुमारबाबांक अस्वस्थ करता.[१०] ''जें चल्लां तें वायट म्हणून धेंगसो घालपी, आवाज काडपी एकूय पात्र ह्या नाटकांत ना'' देखून हें ''भ्रश्टाचाराचें उदात्तीकरण (glorification) करपी नाटक''[११] अशें तांकां दिसता. ते बरयतात, ''नाटकाचो शेवट पळयल्यार दिसता - हय, हें अशेंच चलपाचें, हाचेय फुडें अशेंच चलतलें. ताका कांय उपाय ना.''[१२]

म्हाका हें नाटक इतलें depressing दिसना.

भोवजनसमाजाच्या नांवान भोवजनसमाजांतलेच भोवजनसमाजाक नाडटात हें भोवजनसमाजाक दुसरो - 'भायलो' - कोण सांगना. ताचे ताकाच हें कळटा, हें ह्या नाटकाचें खाशेलेपण. सगलो भोवजनसमाज 'कुड्डेगाळीं'तल्या लोकां वरी 'कुड्डो' ना. भोवजनसमाजाकूय बरें/वायट, खरें/फट पारखूंक येता. देखून, भोवजनसमाजांतलेच शिकिल्ले तरणाटे[12] भोवजनसमाजाचेच मुखार हें 'राजकी निसंतान' करून दाखयतात. जिचे मुखार ह्या नाटकांतल्या नाटकाचो प्रयोग जाता ती शिक्षण नाशिल्ली 'नेणार' जाणटेली भोवजनसमाजाची प्रतिनिधी. (लोकवेदांतली, मुखेलपणान लोक-काणयांतली, जाणटेली चडशी गिन्यानान, वेव्हार चातुर्यान भरिल्ली आसता. हीच जाणटेली ('जाण' आशिल्ली) नवे वेवस्थेंत 'शेणटा' - 'नेणार' जाता.) राजकी मळा वयल्या 'निसंताना'चें हें सत भोवजनसमाजाकूच दिश्टी पडटा आनी भोवजनसमाजूच भोवजनसमाजाचें मिथक उसोवपाक - उकतें करपाक - मुखार सरता हें हांगा खऱ्यांनीच म्हत्वाचें. नाटकाचो खासा बरोवपीय ह्या भोवजनसमाजांतलोच तरणाटो हें आमच्यांनी कशें विसरूं येत?

हे नदरेन नाटकांतलो लोकवेद खूब कडेन नाटका पसून अलिप्त रावन भोवजनसमाज कसो 'पिसो ना' तें आमकां दाखयता. ह्यो कांय देखी पळोवच्यो:

१. ''लोकशायेन दिलें रे व्हडलें एक सत
हांगा थेंव खंय थेंव नांव तेचें मत''(पान ३)

२. ''इलेक्शन येयलें रे दारां दारां पावलें
मतदार संघां आतां एक एक बावलें'' (पान ४)

३. ''खाल्ल्या मिठाक जागतले काय पानां पुसतले
हेचें खावन तेका दिवन वयल्यान बासतले.'' (पान १५)

४. ''भौजन भौजन/शंख बरो वाजता
धोपराक बांदून सगळे/जनलोक फसता.'' (पान ५६)

राजकी परिस्थितीची जाण आशिल्लो भोवजनसमाज ह्या लोकवेदांत झळकता. तोच ह्या नाटकाची आस्त - hope. भोल्या आड मोर्चा घेवन आयिल्लो मोर्चाचो मुखेली निमाणो पिशांतूर जाता. ह्या नाटकाच्या अखेरांतूय एक आस्त आसा. पिशांतूर जाल्ल्या मुखेल्याक भोल्याचो शेलको पयशे दिवन ओगी करतलो...? म्हाका दिसना. मुखेल्याची तकली 'जाग्यार आशिल्ली', देखून तो असो पिशांतूर जालो... हो मुखेली मुखार किते करतलो...? हे सारकेले प्रस्न नाटक वाचले/पळेले उपरांत पडले बगर रावनात. आनी हांगाच पुंडलीकबाब सांगतात तशें, नाटक परतें सुरू जाता. एका textतल्यान आनिकूय कितलींशीं texts जल्मा येतात.

निमाणें सोंपयतना -

*शबै शबै भौजनसमाज* नाटकाचेर आनिकूय खूब नदरांनी अभ्यास जावं येता.

विडंबना खातीर नाटकांत अतिशयोक्तीचो खूब प्रभावी वापर जाला. हाची बेस बरी देख पक्षाच्या 'साडेसत्तावीस कलमी जाहीरनाम्यां'त मेळटा (पानां: १०-१२). ह्यो कांय देखी पळोवच्यो-

१. ''आमची मायभास फक्त आठवेच वळेरेंत न्हय तर शक्य जाल्यार सोळावे वळेरेंत घालतले'' (पान १०).

२. ''भायल्या प्रदेशांतल्यान तांदूळ, गंव, नाल्ल, कांदे, बटाट, बुदवंत, विचारवंत, तत्वगिन्यानी, आलें, कोथंबीर, जायफळां हांची आयात करतले'' (पानां: १०,११).

३. ''कसता ताची जमीन, रावता ताचें घर, बसता ताची कदेल, सकाळीं हळशीक करता ताचो बांद, नागयता ताची बँक आनी न्हिदता ताची बायल हें तत्व लागू करतले'' (पान ११).

प्रचार सभेंतल्या भाशणांतूय ही अतिशयोक्ती येता. उलोवपी म्हणटा, ''तुमचें मत आमकांच पडूंक जाय. फक्त तुमचेंच न्हय तर तुमच्या बापायचें, आज्याचें, पणज्याचें तशेंच तुमच्या घरांतले बायलेचें, आवयचें, भयणीचें, इतलेंच न्हय तर ल्हान ल्हान धा वर्सांच्या भुरग्याचें मत सुद्धां आमकांच पडपाक जाय'' (पान १९).

ही अतिशयोक्ती नाटकांतल्या संवादांत एके तरेची निरर्थकताय हाडटा आनी लोकशाय वेवस्थेच्या शेणिल्ल्या अर्थाची वाचप्याक पळोवप्याक खर जाण करून दिता. वाचपी/पळोवपी हांसता, दुबाव ना. पूण वांगडाच परिस्थितीचेर येवजुंकूय लागता. ही ह्या नाटकाची खरेली तांक.

(तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र, आल्त पर्वरी, आनी अपुरबाय प्रकाशन, वळवय हांच्या जोड पालवान १७ फेब्रुवारी २००१ दिसा घडोवन हाडिल्ल्या 'पुंडलीक नायकाच्या नाट्य साहित्याचें अध्ययन' ह्या विशया वयल्या परिसंवादांत वाचिल्ल्या पेपराचें निवळायल्लें रूप. मूळ पेपर ह्याच माथाळ्या सयत 'सोद: Konkani Research Bulletin: 2', एप्रील २००१ (पानां: १४-२०) ह्या नेमाळ्यांत उजवाडा आयिल्लो.)

१. *शबै शबै भौजनसमाज : एक राजकी निसंतान,* पुंडलीक नारायण नायक, वळवय : अपुरबाय प्रकाशन, १९८६.

२. ''...भौसाक शेंकड्यांनी वर्सां शिक्षण मेळूंक ना. पूण अचकीत राजकीय सामर्थ्य मेळ्ळें...'' हें हाचें एक कारण अशें म्हणूं येता. पळेयात : 'साहित्याचे नदरेंतल्यान पुंडलीक नायकाच्या नाटकांचें अध्ययन *(शबै शबै भौजनसमाज* नाटकाचेर भर घालून)', नंदकुमार कामत, सोद : Konkani Research Bulletin: 2, पर्वरी : तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र, एप्रील २००१ (३-१३), पान ९.

३. पळेयात : नंदकुमार कामत २००१ : १०; प्रियदर्शिनी तडकोडकार, *पुंडलीक नारायण नायक: साहित्यसूची (वर्णनात्मक),* पणजी : केदार प्रकाशन गृह, १९९९ : ५२; श्रीधर कामत बांबोळकार, 'गोंयचें कोंकणी नाटक', सुनापरान्त, वर्स १४ : आंक ११९, १० सप्टेंबर २००० : ७. ह्या नाटकाच्या 'दोन उतरां'त खासा बरोवपीच ताका राजकीय विडंबन नाटक म्हणटा. नादाचे नदरेन 'विडंबन' आनी 'निसंतान' उतरांचो थोडो भोव मेळूय बसता.

४. ह्या नाटकाचें पुराय नांवूच *शबै शबै भौजनसमाज : एक राजकी निसंतान.*

५. पळेयात : *रंगपाट,* पुंडलीक ना. नायक, वळवय : अपुरबाय प्रकाशन, १९९२ : ३३.

६. अदीक म्हायती खातीर पळेयात : *Mythologies*, Roland Barthes, London : Jonathan Cape Ltd. 1972 (१९५७ त उजवाडा आयिल्ल्या मूळ फ्रँच पुस्तकाचो, Mythologiesचो, अणकार). ह्या पुस्तकाचे निमाणे कडेन आयिल्लो 'Myth Today' हो लेख मुजरत वाच्चो.

७. भौजनसमाज 'भोलोसमाज' जाता! *शबै शबै भौजनसमाज* पुस्तकांतल्या पान ३९ वयलें लोकगीत पळेयात.

८. *मोगाचें लग्न,* शणै गोंयबाब (१९१३), *समग्र शणै गोंयबाब,* खंड ४, (संपा.) शांताराम वर्दे वालावलीकार, पणजी : गोवा कोंकणी अकादेमी आनी इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझा २००६, पानां: १-७०.

९. नंदकुमार कामत २००१ : १२.

१०. आदलोच संदर्भ : ५

११. आदलोच संदर्भ : ११.

१२. तरणाटे शिकिल्ले म्हणपाक आधार आसा. *शबै शबै भौजनसमाज,* पान १ पळेयात. केशव - नाटकांतल्या नाटकाचो निवेदक - जाणटेलेक, म्हणटा, ''मावशे, तुका कळपाचें ना, तूं नेणार.'' हाचे वयल्यान केशव आनी ताचे सांगाती शिकिल्ले आसतले असो अदमास लावं येता.

# 'मृत्युंजय रवीन्द्र'

हजारीप्रसाद द्विवेदी एक व्हड भारतीय साहित्यकार. मानवतावादी कथा/कादंबरीकार, निबंधकार आनी मौलीक समिक्षक म्हूण हिन्दी संवसारांत तांची नामना आसा. नामवर सिंहां सारकेले आयचे व्हड हिन्दी समिक्षक हजारीप्रसादांचे तालमींत तयार जाल्यात.

१९२९ वर्सा काशी विश्वविद्यालयाचे इंटरमीजिएट परिक्षेंत पास जावन हजारीप्रसादांनी त्याच विश्वविद्यालयाच्या बी.ए.च्या अभ्यासक्रमांत प्रवेश घेतलो. पूण दोळ्यांक कसलें तरी दुयेंस जाल्ल्यान ते हो अभ्यासक्रम पुराय करूंक पावलेनात. उपरांत, १९३० वर्साच्या नोव्हेंबर म्हयन्यांत, २३ वर्सांचे पिरायेर, ते रवीन्द्रनाथांच्या शांतिनिकेतनांत गेले आनी फुडलीं वीस वर्सां थंय उरले. रवीन्द्रनाथांचो बारा वर्सांचो सहवास तांकां मेळिल्लो. हजारीबाबू खरे घडल्यात शांतिनिकेतनांत, मुखेलपणान, गुरुदेव रवीन्द्रनाथ आनी आचार्य क्षितिमोहन सेन (अमर्त्य सेनांचे बापूय) हांच्या सान्निध्यांत.



रवीन्द्रनाथांचेर, तांचे बरपावळीचेर शेंकड्यांनी बरप्यांनी बरयलां. हजारीबाबूंचेंय तांचेर एक पुस्तक आसा. *मृत्युंजय रवीन्द्र* म्हूण, १९६३ वर्सा दिल्लीच्या 'हिन्दी ग्रंथ रत्नाकरा'न उजवाडा हाडिल्लें. हें पुस्तक म्हळ्यार वेगळ्या वेगळ्या प्रसंगांचेर रवीन्द्रनाथांचेर बरयल्ल्या एकूण तेवीस लेखांचें संकलन. 'व्यक्तित्व', 'कृतित्व' आनी 'काव्य' अश्या तीन विभागांनी हे लेख वांटून घाल्यात. (पुस्तकाच्या संपादनांत नामवर सिंहांचोय हातभार लागला.)

रवीन्द्रनाथांचें एक सुंदर, ओडलायणें चित्र ह्या लेखांतल्यान उबें जाता. सहवासाचे ओलसाणेची मोवसार ओप आशिल्लें चित्र. समिक्षेच्या पिशोलान पितारिल्लें, पूण प्रेमाच्या रंगांनी रंगयल्लें.

पुस्तकाच्या 'दोन उतरां'त हजारीबाबू बरयतात, "रवीन्द्रनाथांच्यो साहित्यकृती म्हत्वाच्यो आशिल्ल्योच, तांचें निजी जिवितूय तितलेंच म्हान आनी प्रेरक आशिल्लें... तांचे म्हर्‍यांत वचून आयिल्ल्यांक सदां दिसतालें, आपूण आदले परस अदीक संस्कारी, अदीक व्हड जावन परतलां."

मुखार ते म्हणटात -

"जाच्या संपर्कांत आमचे भितल्लें देवपण जागें जाता तोच खरेलो व्हड मनीस. रवीन्द्रनाथ असलेच एक म्हापुरूस आशिल्ले."

"मनशाच्या अंतरांतलो उजवाड ताचे भायले चलणुकेंतूय फांकता. भितल्लो संवसार आनी भायलो संवसार सामकेच वेगळे, संबंध नाशिल्ले केन्ना आसनात" (पान १०) अशें सांगून हजारीबाबू बरयतात - "तांणी [रवीन्द्रनाथांनी] आपणाल्या साहित्यांत जें कितें बरयलां तेंच तांचें जिवीत आशिल्लें. ज्या सत्याच्या सुंदर रुपाचो तांणी आपणाल्या काव्यांत रुपकार केला तेंच सत्य तांणी आपणाल्या जिवितांतूय सिद्ध करून दाखयलां... (तांचें) जिवितूय एक काव्यूच आशिल्लें" (पान ११).

हजारीबाबून रवीन्द्रनाथांच्या सान्निध्यांत रावन तांच्या व्यक्तित्वाची, साहित्याची वळख जोडिल्ली.

देश अंदू रवीन्द्रनाथांची १५०वी जयंती मनयता.

गुरुदेवांच्यो यादी काडटना हजारीबाबून तांगेल्या जल्मदिसाच्या उत्सवाचेय उगडास बरयल्यात. ते सांगतात, "कसलोय उत्सव आसूं, गुरुदेव भुरग्या वरी प्रसन्न आसताले" (पान ५).

८ मेक गुरुदेवाचे शिश्य शांतिनिकेतनांत तांचो जल्मोत्सव मनयताले. (रवीन्द्रनाथांची जल्मतारीक सगल्याक ७ मे मेळटा. पूण हजारीबाबूंच्या 'गुरुदेव के संस्मरण' (पानां ३-९) लेखांत तीन कडेन शांतिनिकेतनांत ८ मेक जावपी रवीन्द्रनाथांल्या जल्मोत्सवाचो उल्लेख आयला. ह्याच पुस्तकांत निमाणे कडेन 'रवीन्द्रनाथ की जन्मपत्री' (पानां: ३१७-३२०) हें टिपण आसा. हातूंत तांची जल्म तारीक ७ मे १८६१ (मंगळार, रातचीं २ जावन ३८ मिनटां, ३७ सेकंद) अशी दिल्ली मेळटा.) ह्या उत्सवा उपरांत शांतिनिकेतनांत गिमाची सुटी सुरू जाताली. हजारीबाबू सांगतात, शांतिनिकेतनांत उदकाचे खूब त्रास आसताले, आनी गिमाची सुटी खूबशी बांयतल्या उदकाचेर

निंबून आसताली. बांयो सुकल्यो जाल्यार आपले आपूण सुटी सुरू जाताली. पूण शांतिनिकेतनांतल्या दर एका भुरग्याक गुरुदेवांच्या जल्मोत्सवांत वांटो घेवपाचो आसतालो. हाचेर शांतिनिकेतनाच्या जाळवणदारांनी एक उपाय काडलो -

बंगाली पंचांग सौर वर्साच्या हिसपान तयार जाता. सक्रांतीच्या दुसऱ्या दिसा सावन बंगाली म्हयनो सुरू जाता. ह्या पंचांगा प्रमाण, मेष सक्रांतीच्या दुसऱ्या दिसा सुरू जावपी वैशाख म्हयनो बंगाली वर्साचो पयलो म्हयनो आसता. रवीन्द्रनाथांची जल्मतीथ वैशाख म्हयन्याचे २५ तारकेक पडटा. १४ एप्रीलाक वैशाखाची पयली तारीक आसता. म्हणटकच गुरुदेवांचो जल्मोत्सव ह्याच दिसा मनोवपाचो निर्णय जालो. नव्या वर्साचो आनी जल्मदिसाचो उत्सव एकाच दिसा मनोवप म्हूण थरलें. १४ एप्रीला उपरांतूय जे शांतिनिकेतनांत आसताले ते ८ मेकूय तांचो जल्मोत्सव मनयताले (पानां: ३, ४).

त्या दिसा धवी फुल्ल रसमी धोती आनी रसमी लांब कुर्ता न्हेशिल्ले, खांद्यार रसमी शाल उडयल्ले गुरुदेव उत्सवाचे सुवातेर येवन बसताले तेन्ना वाटार भरिल्लो भरिल्लो दिसतालो, हजारीबाबू सांगतात. ''शंखांचो नाद वाटारांत गाजतालो. हांव वेदमंत्रांनी गुरुदेवांक येवकार दितालों. आचार्य नंदलाल बोस आनी तांगेल्या शिश्यांनी सोबीत सारोवन सजयल्ली वेदी मंगल गितांनी भरून वताली, आनी गुरुदेव मंद हांसत आपणालें आसन घेताले... उपरांत तांच्या हाताक दुर्वादल बांदूंक वतालों तेन्ना ते आपलेपणान, प्रेमान हात मुखार काडटाले... आजूय हांव [गुरुदेवांच्या] जल्मोत्सवांनी वांटो घेतां, पूण ह्या उत्सवांनी ते हात आसनात...'' हजारीबाबू बरयतात (पानां: ४, ५).

शांतिनिकेतनाच्या दर एका उत्सवांत वेदमंत्रांचें पठण आसतालें. वांगडा तांचो बंगाली अणकार करून तोय वाचून दाखयताले. आचार्य क्षितिमोहन सेन उत्सवाक सोबऽ सारके मंत्र वेंचून काडपाचें काम करताले. पूण हातूंत गुरुदेवूय लक्ष घालताले. गरज पडल्यार अणकाराची भासूय सुदारून दिताले. उत्सवांनी वेदमंत्रां वांगडा गितांय आसतालीं. खासा रवीन्द्रनाथांनी रचिल्लीं आनी तांणीच संगीत दिल्लीं. खंयचीं गितां वेंचतात ताचेरूय रवीन्द्रनाथांची बारीक नदर आसताली (पान ५).

''ल्हान-सान कामां कडेनूय रवीन्द्रनाथ खूब गंभीरतायेन पळेताले. पूण ते गंभीरतायेंत एक सहजताय आसताली. हो सहज गंभीर भाव तांगेलें खाशेलेपण आशिल्लें,'' हजारीबाबू बरयतात आनी म्हणटात, ''हाकाच लागून शांतिनिकेतनांतल्या दर एका कार्यांत refinement येवंक पावला'' (पान ५).

एक खेपे फांतोडेर, सुर्योदया पयलींच, गुरुदेवान हजारीबाबूंक आपणाक येवन मेळूंक सांगलें. हजारीबाबू सांगतात -

''कित्याक आपयला आसतलो काय, अशें येवजीत धांवत धांवत हांव तांचे सरीं गेलों. गुरुदेव प्रसन्न आशिल्ले. म्हणूंक लागले, अमक्या दिसा, अमको उत्सव करपाचें मनांत आयलां. हे खेपे मंत्र तुवें वेंचपाचे आनी तुवेंच वाचपाचे'' (पानां: ५,६).

हजारीबाबून वेदमंत्र वेंचून काडले, तांचो बंगाली अणकारूय केलो आनी तो गुरुदेवांक दाखयलो. गुरुदेवांनी तांची तोंड भरून तोखणाय केली. अणकाराचीय खूब तुस्त केली.

हजारीबाबू सांगतात, ''...प्रेसांत जो अणकार छापूंक गेलो ताची भास मात सामकी वेगळी आशिल्ली'' (पान: ६).

अणकाराची छापिल्ली प्रत हजारीबाबूंच्या हातांत दवरतना गुरुदेवांनी म्हळें, ''बंगाली अणकार मातसो बदल्ला. वाचून पळे.''

हजारीबाबू बरयतात, ''तांचें मूळ उतर आशिल्लें, 'एकटू'. त्या एकटू फाटल्यान कितलें प्रेम, कितलें आपलेपण आशिल्लें! गुरुदेवांनी येवजिलां जातलें, बंगाली जमना अशें म्हाका दिसूंक फावना. म्हूण, अणकार 'मातसो' बदल्ला हें म्हाका सांगप तांकां गरजेचें दिसलें. हांव भारावन गेलों...'' (पान ६).

मुखार ते जोडटात -

''ल्हान ल्हान चुकींक लागून विद्यार्थ्यांक कस्पटावपी शिक्षकांक आपूण तांच्या फुडाराचे निर्मणेंत कितली आडखळ हाडटां ताचो अदमासूच आसना.''

''एक्कूय खेपे तांचे म्हऱ्यांतल्यान हांव निर्शेवन परतूंक ना,'' हजारीबाबू सांगतात, ''केन्ना केन्ना तर म्हजी उर्बा वाडोवंक ते म्हाका आपणाल्या पांवड्यार घेवन वताले. म्हणटाले, 'पळे, पयलीं म्हाकाय बी तुजेच बशेन असल्या गजालींचो भंय दिसतालो.' हांव आनी ते एकाच पांवड्याचे मनीस जाल्ले वरी, ते म्हज्याक मातशे पयलीं ह्या संवसारांत आयल्यात आनी हांव मातसो मागीर हांगा पावलां, इतलेंच आमचे मदलें अंतर आशिल्ले वरी'' (पान ७).

हजारीबाबू बरयतात -

''साद्या किरकोळ खबऱ्यांनी पसून ते केन्ना सकल देंव नाशिल्ले. तांच्या दर एका वाक्यांत तांच्या व्यक्तित्वाच्या व्हडपणाची छाप आसताली. पूण साद्या किरकोळ विद्यार्थ्यांकूय ह्या व्हडपणाचें वजें जाय नाशिल्लें. मनशाच्या व्हडपणाचे ते प्रचारक आशिल्ले आनी दर एका मनशा भितल्लें व्हडपण ते पारखिताले... म्हान गुरूचे शिश्य आसप, व्हडलें भाग्य. शांतिनिकेतनांतल्यान जे कीर्त जोडून भायर सरल्यात तांचे निर्मणेंत ह्या आगळ्या वेगळ्या आपलेपणाचो, स्नेहाचो खूब व्हडलो वांटो आसा ही गजाल सगले मान्य करतले. रवीन्द्रनाथ पारस आशिल्ले. तांच्या संपर्कांत आयिल्लो दर एक मनीस धन्य जाला'' (पाना: ७, ८).

मनशा भितल्ल्या देवपणाक जाग हाडपी ह्या म्हा-मानवाक ताचे १५० वे जयंती निमतान आमचें नमन. वांगडा, रवीन्द्रसाहित्याच्या पारस स्पर्शान आमच्या जिविताचें भांगर जावचें ही प्रार्थना.

## म्हणींचो अर्थ सांगपी लोक आसात तोंवर हें काम जावंक जाय...

दादर, मुंबय
२७.४.२०११

प्रिय माधवी सरदेसाय,

'जागा'चो फेब्रुवारी-मार्च २०११ आंक फाटल्या आठवड्यांत मेळ्ळो. अजून सगळो आंक वाचूक जावंक ना. आंक सदां सारकोच सोबीत आनी वाचनीय जाला. तुजे हस्तुकीं बरें काम जायत रावूं अशें मागतां. गुलाआते कडल्यान पुंजायल्लें धन तुवें वाचप्यां मुखार उकतें केलें तें बेस बरें केलें. आदल्या काळार बायलांच्या तोंडांतल्यान उतरा पावलाक म्हणी वाक्प्रचार येताले. हें एकठांय करपाची बुद्द तुका रवीन्द्रबाबान दिली हें बरें जालें. म्हणी पुंजावपाचें काम बायलांनीच उमेदीन केलां. कमलाबाय देशपांडे (म्हणींफाटल्यो काणयो), कमलाबाय (दणायत) वाघ, *(आजीच्या सुपांतील मोती)*, इंदिराबाय नाडकर्णी *(कारवारी म्हणी)*, 'शांतश्री' नाडकर्णी, प्रा. दुभाषी, स्वप्नगंधा कुळकर्णी *(मालवणी म्हणी)* अश्या जायत्या जाणींनी म्हणींचें संकलन करून आमकां उपकारांत दवरल्यांत. नामनेचो गोंयकार रंवथेशास्त्री (microbiologist) डॉ. फ्रोयलानु द मेल हांची जर्मन घरकान्न Hedwig Bachnann हांणी *On the Soul of the Indian Woman as Reflected in the Folklore of Konkani* असो ग्रंथ बरयला. तांतल्यो कोंकणी म्हणी कॅनडाक राबितो करून आशिल्ल्या तांच्या पुतान इंटरनॅटाचेर दिल्ल्यो. हांवें त्यो गोवा कोंकणी अकादेमी कडेन पावयल्यात. L. Suneetabai हांणी संशोधन करून *Sociocultural Background of the GSB as Reflected in Konkani Proverbs* असो ग्रंथ उजवाडायला अशी म्हायती इंटरनॅटाचेर मेळ्ळी. दोनूय ग्रंथ पळोवंक मेळूंक नात. इंटरनॅटाचेर GSB Konkani Proverbs Metaphors, Idioms, Euphemisms ह्या लिंकाचेर बऱ्योच नव्यो कोंकणी म्हणी मेळ्ळ्यो. हें काम कितलें व्हड हाची कल्पना म्हाका पयलींच आयिल्ली. अर्थ सांगपी थोडे भोव लोक आसात. तोंवर हें काम जावंक जाय.

*रेड्या फाटी वेलो पावस* ही म्हण *ज्ञानेश्वरीं*त मेळटा. विश्वरूपदर्शनाची गजाल संजय धृतराष्ट्राक सांगता आनी ताचेर कांय परिणाम जायना तेन्ना ती वापरल्या अशी याद जाता.

*'रेड्या फाटीर पावस पडटा, रेडो म्हणटा व्हाइडीक जाता'* अशीय एक म्हण मेळटा. पावसाचें उदक फाटीर पडटकच रेडो खोशी जाता असो अर्थ.

पडसाद

दिलीप बोरकाराच्या सुंदर निबंदांत 'गिन्यानाचे शिशे' हो उपाट अर्थाचो शब्द मेळ्ळो. 'शिशे' हाचो अर्थ विसकटावन सांगिल्ल्यान कळ्ळो. 'जागा'च्या दर आंकांत हें सदर येतलें हें वाचून बरें दिसलें.

इजिदोर दान्तस हांणी *कोंकणी चलचित्रां* हें पुस्तक आपणेंच देवनागरींत केलां. वेळ काडून हांवें तांचें हातबरप सुदारून दिलां. रोमी आनी देवनागरी कडेन संवकळ आशिल्ल्या बरप्यां कडेन आमी बरे संबंद जोडूंक जाय असो म्हजो विचार. 'जागा'न तांच्या पुस्तकाची वळख करून दिल्ले बद्दल धन्यवाद. जायतें बरें मागून,

**- मनोहर पै. धुंगट**

## 'भीमसेनी यादी'

विले पार्ले, मुंबय
१७ मे, २०११

संपादक 'जाग',
नमस्कार

'जागा'च्या गेल्ल्या अंकांत शकुंतला भरणे हांणी बरयिल्लो 'भीमसेनी यादींची जिवीतपटी' हो लेख वाच्चून माका फाटले एके घटनेची याद आयली. शास्त्रीय संगीत आवडीन आयकतल्यां भितल्लो हांव एक. तातूंतलो 'हो का ढो' सुद्धां माका कळना. सादो षड्ज कसल्या बरोबर खातात ते सुद्धा माका कळना. कोमल ऋषभ आनी तीव्र मध्यम म्हळ्यार मज्या माथ्या वयल्यान उदक, तरी माका बैठकींतलें गायन आयकुंवच्याक खूब आवडता. उरूं.

_ J b m o E *हमारे संगीत रत्न* हो पन्नास वर्सां पयलीं प्रसिद्ध जाल्लो एक मौलीक हिंदी ग्रंथ आसा. त्या पुस्तकांत शास्त्रकार, गायक, तंतकार, तबलावादक हांगेलीं फोटो सहीत चरित्रां आसत. जे जे कलाकार हयात आसात तांची ह्या ग्रंथांत, ज्या पृष्ठाचेर तांगेलें चरित्र छापून आयलां थंय, स्वाक्षरी घेवची म्हण हांवें थारायलें. मगेल्या पुस्तकांत बिस्मिल्ला खाँ, विलायत खाँ, रवि शंकर, अल्लारखाँ, अहमदजान थिरकवा, अमीर खाँ सारक्या दिग्गजांल्यो स्वाक्षऱ्यो आसात.

भीमसेन जोशींली गुरुभगिनी गंगुबाई हंगल हांगेली स्वाक्षरी म्हाका जाय आशिल्ली. साधारण धा वर्सां फाटीं माका हुबळींत वच्चो योग आयलो. हुबळींत वतना हांवें मगेलें पुस्तक बरोबर घेतलें. थोडो वेळ आशिल्लो तेन्ना हांव गंगुबाईल्या बंगल्या कडेन वच्च्याक गेलों तेन्ना अजिबात अडचण आयली ना. प्रत्येक रिक्षावाल्याक गंगुबाईलें घर खबर आशिल्लें. हांव तांगेल्या बंगल्या समोर पावलों तेन्ना गंगुबाई माका रस्त्याचेरच दिसली. ती देवदर्शनाक वताली. पूण हांव मुंबयच्यान मुद्दाम तिगेले भेटीक आयलां अशें कळ्ळे बरोबर ती खंयचेच आढेवेढे घेनासतना माका घेवन आपल्याल्या बंगल्या कडेन उलटी फिरली. इतले व्होड व्यक्ती कडेन कितें उलोवचें नी कशें उलीवचें ह्या विचारान मगेल्या मनाचेर दडपण आयिल्लें. पूण तिगेल्या नम्र, आनी मायेमोगाच्या उलोवण्यान मगेलें टेन्शन गेलें. हांवें तिका मगेल्या पुस्तकांतल्यो दिग्गज कलाकारांल्यो स्वाक्षऱ्यो दाखयल्यो. आनी तं खूश जाली. गंगुबाईलें चरित्र आनी फोटो ज्या पानाचेर आसा त्या पानाचेर तिणें इंग्लीशींत स्वाक्षरी दिली. इतलेंच न्हय तर तिगले स्वाक्षरी सकल कृष्णा हंगल हिगेलीही स्वाक्षरी मेळोवन दिली.

खरें सांगचें म्हळ्यार, हांव थंय फकत अर्दच तास आशिल्ल्या पूण हो अर्द तास माका आयुश्यभर सुखद यादी खातेर [illegible]!

**- द. ना नाडकर्णी**

# मदर तेरेझा - शंबर वर्सां पुराय करतना

**सॉतेर बार्रेत**

हांव ल्हान आसतना म्हजे व्हडले भयणीन एके भुरगे सांतिणीचें चित्र हाडलें. तें चित्र म्हाका खूब आवडलें. इतलेंच न्हय तर तें चित्र हांवें बापायक फास्केंत घालूंक सांगलें आनी कपडे दवरपाची म्हजी पेट आसली तातूंत तें दवरलें. जायतीं वर्सां तें चित्र म्हजे पेटेंत उरलें. तें चित्र सांता तेरेझीन्या द मिनीनु जेझुस हे सांतिणीचें आसलें. तेरेझीन्या म्हळ्यार, पुर्तुगेज भाशेंत, ल्हान वो धाकटी तेरेझा. आनी हे भागेवंतीच्या जिविताचो प्रभाव जायत्या जाणांचेर पडला. आवय-बापूय नासलल्या, म्हणजे अनाथ अश्या, भुरग्यां खातीर आसरो उबारप, तांचें सांबाळप करप, असले तरेची सेवा हे सांतिणीचो नमुनो दोळ्यां मुखार दवरुनूच जाता. शिवाय, ती शिकपी भुरग्यांची आसकारीण काय दिसता म्हाका.

पूण खऱ्या अर्थान हे सांतिणीचें नांव संवसारभर पावयलां आनी निबरांतल्या निबर अश्या काळजांनी पासून रिगयलां तें मदर तेरेझा हिणें. मदर तेरेझा मूळ एवरोपांतल्या आल्बानिया देसांतल्या Skopje गांवची. तिचें आवय-बापायन दिल्लें नांव Agnes Gonxha Bojaxhiu. ती जिवी आसली जाल्यार २०१० वर्साच्या आगोस्ताचे २६ वेर शंबराव्या वर्सांत पावल दवरपाची. म्हणून सगलो संवसार हें वरस मदर तेरेझाच्या शेंकड्याचें वरस म्हूण मनयता.

तेगां भुरग्यां मदली ती सगल्यांवून धाकटी. आवयन तिका सामकी खर कातोल्क धर्माच्या भावार्तान वाडयली. तिची वाड तान-भूक सोंसून जाली. ल्हान आसताना युगोस्लाव्हिया देशांतल्या जेझुयीत पाद्रींनी इंदियेच्या बंगाली वाठारांत केल्ल्या वावराच्यो खबरो तिच्या कानार पडटाल्यो. त्यो आयकून तिचें मन जबर उचंबळ जावंक लागलें. आनी चवदा वर्सांचे पिरायेर तिणें एक मिस्योनार जावन भारतांत वावर करपाक येवजिलें. ते खातीर आवय लागीं परवानगी मागली. आनी अठरा वर्सांचे पिरायेर माद्र जावन ती घरांतली जी भायर सरली ती परत केन्नाच घरांत पावली ना. आक्खें जिवीत तिणें, बाब नवीन च्यावला, भारताचो आदलो वेंचणूक आयुक्त आनी तिचो चरित्रकार सांगता तसो, फकत दळदिरांतल्या दळदिऱ्यांची सेवा करून सोंपयलें. १९२८तलो कोलकातांतलो कालीघाट वाठार म्हळ्यार सुमाराचें येमकोंडूच. तातूंत मदीं एक अठरा-इकुणीस वर्सांची येवरोपी, गोरे कातीची चली हें दळदीर ना करूंक वावुरता हें चित्र दोळ्यां मुखार हाडल्यार तार्चे खरेपण मांदूंक आयज पासून अवघड दिसता. पूण गरिबांतल्या गरिबांक जाता तितलो मोग दिवप, जाता तितलो तांचो परामर्स करप, आनी आपले कडेन जें कितें आसा तें तांचे कडेन वांटप,आनी जिविताच्या निमाण्या वेळार पासून तांचे कश्ट उणे करूंक वावरप हो निश्चेव तिणें केल्लो.

हो वावर करचे खातीर ती सुरवातेक आयरलँड देसांत आसलले लॉरॅटो माद्रींचे संस्थेंत भितर सरली. तांचो एक फांटो कोलकातांत चलतालो. थंय कांय काळ काम करतच तिचेर निर्शेणी आयली. तिका जाय तसलो वावर करूंक मेळ नासलो.

**'मिशनरीज ऑव्ह चॅरिटी'**

लॉरॅटो संस्थेचे आपले कायदे आसले. तांची तिका आडखळ जाताली. म्हणून, व्हडिलांची परवानगी घेवन ती लॉरॅटो कोव्हेंतांतली भायर सरली आनी एकटीच कोलकाताच्या रस्त्यांचेर कश्टतल्यांचे त्रास उणे करपाच्या वावराक लागली. पूण ह्या वावराक लोकांचो सहकार जाय पडटलो हें तिका जाणवलें. एके झोपडपट्टेंत वचून ती भुरग्यांक शिकोवपाक लागली. कोण व्यक्ती आपल्याक पावतलो, हें कल्पपाची तांक तिचे लागीं आसली. भुरग्यांक शिकोवपाक एक काळो फळो नासलो, एक मेज नासलें, एक कदेल नासलें. तिणें एक बडी घेतली आनी ती जमनीर मातयेंत बंगाली अक्षरां काडूंक लागली. ती आयली म्हुणटच भुरगीं धांवून तिचेशीं येवंक लागलीं. हें पळोवन कोणें फळो हाडून दिलो, दुसऱ्यान कदेल दिलें आनी तिसऱ्यान मेज हाडलें. कोलकाताच्या काम्राचे कामदार लोक घालतात तसली सवाय दरेची निळ्या रंगाची साडी न्हेसून गरिबां मदीं काम करतले माद्रीक पळोवन लोकांक बारीकसाण जाली आनी अजापूय जालें. जायते लोक तिच्या वावराक खांद मारूंक लागले. तेच बरबर तिणें एक सगल्यावून चड उणेपण दिसपी गजालीचेर आपलो ताबो दवरलो. ती भीक मागूंक शिकली आनी 'मिशनरीज ऑव्ह चॅरिटी' ही दुर्बळांतल्या दुर्बळांची आनी दळदिऱ्यांतल्या दळदिऱ्यांची सेवा करपी संस्था सुरू जाली. आयज संवसारांतल्या १३५ देसांनी सुमार ६०० वयर घरां आसात जंय मदर तेरेझा हिणें सुरू केल्लो वावर चालू आसा.

मदर तेरेझा खूब शिकूंक नाशिल्ली. तरी आसताना तिणें रस्त्यार सोडिल्ल्या हजारांनी अनाथ भुरग्यांक शिकयलीं आनी मनीस केलीं. तांचे खातीर 'शिशु भवन' सारकीं घरां बांदलीं. आनी हीं कामां फकत गरीब म्हणतल्या देसांनीच न्हय तर सुधरलल्या देसांनी पासून. हें करून, गरिबी आनी दळदीर संवसारांत सगल्याक वसता म्हूण तिणें सिद्ध केलां.

**मदर आनी देव ना मानपी**

मदर तेरेझाच्या जिवितांत सगल्या तरांच्या विचारांचे लोक येवन

गेल्यात. देव ना मानपी पासून. सर्गेस्त ज्योती बासू हो तांतलो एक. ज्योतीबाबू अस्तंत बंगालाचो चडांत चड काळ झुटी चलोवपी मुखेल मंत्री जावन गेलो. तो साम्यवादी आनी देव ना मानपी विचारांचो आसलो. तरी आसताना मदर तेरेझाचो खास इश्ट आनी तोखणाय करपी आसलो. तिच्या वावरांत सदांच आदार दितालो. कोणें तरी मदरीक विचारलें, तुमचें कशें जुळटा काय म्हूण. तेन्ना मदरीन तोंड भरून जबाब दिलो, "आमी दोगांय गरिबांचो खूब मोग करतात, म्हूण..." दुसरो देव ना मानपी जो मदर तेरेझाचो इश्ट आसलो तो नांवा लोकिकाचो पत्रकार आनी साहित्यकार खुशवंत सिंग. तो 'The Illustrated Weekly of India' ह्या नांवाजत्या साताळ्याचो संपादपी आसताना अमेरिकेच्या 'New York Times' ह्या दैनिकाचोय खास बातमीदार आसलो. न्यू यॉर्क टायम्सान ताका मदरीचेर खास बरय म्हूण सांगतच तो खेरीत अणभव घेवंचे खातीर तिचे म्हन्यांत चार दीस वचून रावलो. तो सांगता तसो, "ह्या चार दिसां मदीं तिणें ख्रिस्ताचें नांव घेतिल्लें हांवें आयकूंक ना. 'निर्मल हृदय' जंय मरणाचे तडीर पाविल्ले आपलो निमाणो सुस्कार सोडटात तांतल्या एकल्याक आपले मांडयेर घेवन तिणें बंगाली भाशेंत 'देव आसा' इतलेंच सांगलें." तिचेर आधारीत Illustrated Weekly of Indiaचो खास आंक उजवाडायतच कांय दिसांनी खुशवंत सिंगांक मदरीचो एक संदेश आयलो, "हांवें आयकलां, तूं देव मानिना म्हूण. देवान तुजेर आशिर्वाद घालचो." हो संदेश खुशवंत सिंगान आपल्या घरा कडेन महात्मा गांधीचो फोटू आसा ताचे कुशीक फास्केंत घालून दवरला. कपील देव हो भारताचो विश्व कप जिकिल्ल्या क्रिकेट पंगडाचो कपीत. ताका लग्न जावन चवदा वर्सां मेरेन भुरगें नासलें. एका इश्टान ताची आनी ताची पतीण रोमी हांची मदरी कडेन भेट घडोवन हाडली आनी तिचो आशिर्वाद मागलो. तिच्या आशिर्वादान रोमी रोखडीच गुरवार जाली आनी तिका एक बाय जालें. तीं दोगांय आपले चलयेक बोट दाखोवन, "मदरीन आमकां दिल्ली भेट" अशें संवसाराक सांगतात.

**शेवटीं**

जायतीं वर्सां जालीं, हांवें मदरीच्या वावराक उल्लेखून गुलाबाचेर एक लेख बरयल्लो. तो लेख तिच्या आंबावलीं, केपें हांगा आसलल्या घरांत काम करतल्या ज्यॉन म्हणलल्या एका वावुरप्याचेर आधारीत आसलो. तेन्ना हांव भलायकी खात्यांतल्या टी.बी. हॉस्पिटलांत काम करतालों. ज्यॉन हो मनीस सामके भेसूरवाणे स्थितींत रस्त्याचे कुशीक पावसाच्या दिसांनी तांकां मेळ्ळलो. तांणी ताचो कोण ना तें पळोवन ज्यॉनाक आपल्याशीं व्हेलो आनी उपरांत ताका टी.बी. जाल्या ह्या दुबावान आमच्या हॉस्पिटलांत हाडलो. ताका खरेंच टी.बी. जाल्ली. आपल्या जिवितांतल्या कोडू घडणुकांक लागून तो जिवाक सामका विटेवन गेल्लो. ताका लागून सिगरेटी ओडून आनी सोरो पियेवन तो आपलो जीव काबार करूंक सोदतालो. नशिबान म्हणटात तशें, तो ह्या माद्रींच्या आधारान आनी आमच्या हॉस्पिटलांत केल्ल्या इलाजान तीन म्हयन्यां मदें निगूत बरो जालो. उपरांत तो माद्रींक मजत करूंक लागलो. त्या दिसांनी एडस् पिडेचें नश्ट तकली वयर काडूंक लागललें. एडस् जाल्ल्या पिडेस्तांक रोखडीच टी.बी. जाताली. आनी, हे एडस्चे पिडेक बळी पडटाले ते चड करून तरनाटे आनी मदले पिरायेचे लोक. असल्या पिडेस्तांचेर बहिश्कार सो आसतालो. ह्या असल्या निरभाग्यांक आसरो मेळटालो तो मदर तेरेझाच्या घरांनी आनी इलाज मेळटालो तो आमचे सारकेल्या सरकारी हॉस्पिटलांनी. हांव निवृत्त जाय मेरेन ज्यॉन आनी तेरेझा आवयच्यो 'मिशनरीज ऑव्ह चॅरिटीं'तल्यो माद्री हो वावर करीत आसलीं. एडस् सारकें दुयेंस आजून आळाबंदा येवंक ना. तें तरणे पिळगेक गिराशीत आसा. अशें आसतच तेरेझा आवयन केललो वावर चालूच आसतलो आनी तेच भशेन तिचो उगडासूय.

तिच्या आधारान गंभीर पिडेस्तांक मेळिल्ले गूण पळेवन पाप सायबान तिका १९ ऑक्टॉबर २००३ ह्या दिसा 'भक्तिवंत' केली. तरीय संवसारभर शिंपडलले तिचे भक्त ती केदना काय सांतीण जालली पळेवंक रावतात. मदर तेरेझान उबारिल्ल्या वावराचें वजें ल्हव जावंचे सुवातेर दिसान दीस जड जायत वता. हाचें कारण, मनशान मनशाचेर केल्लो अन्याय. तो सोंपतलो तेन्नाच तें वजें ल्हव जातलें.




# जाग

म्हयनाळें

*उत्सव विचारांचो... साहित्याचो... वर्सुय भर... तुमचे काळजाचे भाशेंत...*

**वांगडी जायात...**

वर्सुकी पटी..........................: रु. २००/-

विद्यार्थ्यां खातीर वर्सुकी........: रु. १५०/-

तीन वर्सांची पटी..................: रु. ५००/-

**आमचो नामो:**

२०१-बी सालदॅल अपार्टमॅन्ट्स
रुअ द साउदादिश,
पाजीफोंड, मडगाव-गोंय ४०३ ६०१
मोबायल: ९४३११५७००७

जाग वाचात, वाचूंक दियात, नवी जाग हाडात

# ब्लॉक

## गोरख शिरसाट

"आईऽऽऽऽ...! आईऽऽऽऽ...! बेगीन फुडल्यान यो....!"

चौकांत बसलेल्या गौतमान मातसो काचाबूल जायत भितोडेक आशिल्ले आईक उलो मारलो. ते सरशीं ती आयदनां थंयच सांडून फुडल्यान धांवून आयली.

दिवाण्यार बसलेले कडेन अचकीत वेणो सुरू जाल्ल्या छायाक पळोवन कोणूय भियेतलो आसलो. आनी तें तर आवयचें काळीज. बाळंतपण सोंसतना किर्ते जाता हें एके आवयकूच खबर आसता.

आई गेऽऽऽऽ...! आई गेऽऽऽ...! म्हणत छाया पोटाक दोनूय वटांनी धरून आड पडपाक लागलें. पयल्या खिणाक ताचे आईक किर्ते करचें तेंच कळ्ळेंना. छायाच्या बाबाक आफयतली म्हणल्यार तोवूय कामाक वचून खूब वेळ जाल्लो. तिणें गौतमाक सांगून शेजारच्या गांवकाराल्या सुदेशाक म्हणून गाडी काडपाक सांगली. तशी तिणें आदींच हाची तजवीज करून दवरलेली, पूण ज्युस्त त्याच दिसाक सुदेश घरा कडेन ना जालो. तो गाडी घेवन इश्टां वांगडा खंय तरी भायर सरलेलो.

गौतम परत आयलो तेन्ना ताचे वांगडा शेजारचीं दोगां-तिगां बायलांय आयल्लीं. गाडी ना म्हणून त्या खिणाक किर्ते करचें तें तांच्याय लक्षांत आयलें ना. तांचे मदलें नयन मातशें शिटूक आसलें. ताणें वेळ करिनासतना गौतमाक १०८ ॲम्बुलन्सीक फोन करपाक लायलो. तशी रोखडीच कुडचडें भलायकी केंद्रा वयल्यान १०८ भायर सरली.

गौतमाचो इश्ट रतीश त्या दिसा तांगेर आयल्लो. ते दोगूय मडगांव ॲम्प्लॉयमॅण्ट ॲक्सचेंजींत वचपाचे आसले. छायाची परिस्थिती पळोवन आपणालें त्या दिसाचें काम दुसऱ्या दिसार घालून रतीशूय गौतमाच्या सांगाताक येवंक भायर सरलो.

हरशीं कुडचड्या वयल्यान सांवड्ड्यां घड्यार गाडयेन पावपाक फकत धा-पंदरा मिणटांचो रस्तो आसलो. पूण हालींच्या तीन-चार वर्सांक धडेकारांक, कापशेकारांक आनी वड करून सांवड्डेकारांक होच रस्तो काडपाक अर्द वर ते पावूण वर तरी लागतालें. व्हडली गाडी आसल्यार घरांतल्यान गाडयेन वच्चे बदला घराच रावचें वा चलत गेल्यार बेगीन पावतले अशी परिस्थिती निर्माण जाल्ली. चलून वा गाडयेन येतना वतना तांबड्या-काळ्या धुल्लाचो राब आंगार तोंडार बसतालो. आनी पलतडी वचपाक हो एकूच रस्तो आसलो. कशेय गेले तरी हो धुल्लबंबाळ



जाल्लो रस्तो माड्डिले बगर कोणाकूच दुसरो उपाय नासलो.

ह्या सगल्याचें एकूच मुखेल कारण आसलें, तें म्हणल्यार, 'ट्रॅफीफ ब्लॉक'.

घराच्या आंगणांतल्यान रस्त्याच्या दोनूय वटांनी लांबचे लांब उबें आशिल्लें ट्रकांचें रोमट दिश्टी पडटालें. नाय जाल्यार मदीं कांय बशी, रिक्षा आनी मोटार सायकली मेळटा ते खांचींतल्यान वाट काडटना दिसताल्यो. आयल्यान आशिल्ल्यो गाडयो थोड्यो भोव स्पश्ट दिसताल्यो. पूण पुराय रस्त्यार पडलेल्या तांबड्या धुल्लाच्या धुक्याक लागून पयसुल्ल्यान कसली गाडी येता वा वता हें समजुपाक मातशें भुंवयो ताणुनूच पळोवचें पडटालें.

ह्या येद्या व्हडल्या दोनूय वटांनी पडलेल्या ब्लॉकांतल्यान १०८ बेगीन कशी पावतली होच प्रस्न मनांत घेवन कोण भायर भितर पासयो मारतालीं तर कोण छायाक थातारीत १०८ ची वाट पळयत आसलीं. पूण ब्लॉक हालपाचीं लक्षणां दिसनासलीं. गोगलगायेचे गतीन ट्रक फुडें सरताले. नदर पावता थंय मेरेन सुद्दां १०८ दिसनासली आनी आवाजूय कानार पडनासलो. पत्तो विचारपाक १०८ चो फोन एक दोनदां येवन गेल्लो.

सांवड्ड्यां हें सदचेंच जाल्लें. सकाळीं संक मीन येरादारी सुरू जाली म्हणटकच एका फाटल्यान एक ट्रक येवन वांकडे तिकडे फाटोफाट लागताले. रस्तो अरुंद आशिल्ल्यान ट्रकांचीच एके हारीन एक लयण तयार जाताली. मागीर ब्लॉक सुटपाक केन्ना अर्द वर जाल्यार केन्ना वरांचीं वरां लागतालीं आनी सांजेच्या संक थांबपाचे ट्रक रातचे आठां उपरांत थांबताले. ह्या ब्लॉकांत सगलेंच 'ब्लॉक' जावन उरतालें.

मातशी हालचाल वाडली आनी कांय खिणां उपरांत ट्रकांनी थोडी गती घेतली. ब्लॉक सुट्टा कसो जालो आनी खंयच्यान तरी पयसुल्ल्यान १०८ च्या सायरनाचो आवाज सगल्यांच्या कानार पडलो. घडकेक सगल्यांच्या तोंडार एक चैतन्य फांकलें. आतां मेरेन बाबा-पुता करीत बसलेली छायाची आई फटक् करून उठली, तशीं थंय आयिल्लीं दोगां-तिगां बायलां मेळून छायाक उठपाक आदार करपाक लागलीं. छायाची आई आसा तेंच न्हेसण सारकें करून भायर सरली. तसो गौतमूय तयार जालो.

"गौतम...!"

"किर्दे आई...?"

"तुज्या बाबाक आनी आशुतोशाक बेगीन कळय... सोमतेच भायले भायर हॉस्पिटलांतूच आपय तेंकां...!" गौतमान तसो फोन केलो.

तांचो चारूच जाणांचो घराबो. छायाचो बाबा वास्को ॲम्.पी.टी.त आसलो. गौतम हालींच ग्रॅज्युएट जाल्लो. बापोलये-तिपोलये सगले फोंड्यां पणजे बी आदीं सावनूच

विसकळून गेल्ले. पूण नातीं खूब लागीं आसलीं. सोयऱ्यां धायऱ्यां सारकेच बऱ्या वायटाक पावपी इश्ट आनी शेजारी पाजारीय तशे उणे नासले.

अशी तशी आडकत, हाका ताका कटयत, ब्लॉकांतल्यान वाट काडीत १०८ दारांत येवन रावली. तातुंतल्यान दोन इ.ॲम्.टी म्हणल्यार इमरजन्सी मॅडिकल टॅक्नीशियन देंवले. एक दोतोर आनी एक भुरगीचशी नर्स. ड्रायव्हरान देंवून तापणी देंवयली. दारांत येयल्ली १०८ पळोवन सगळ्यांच्या मनांत एक आस निर्माण जाली. छायाची पार्त आतां सुपूर्त हातांनी पावतली म्हणपाचें समाधान सगळ्यांक जालें.

पूण, दोन किलोमिटरां वयलें कुडचडकार हॉस्पिटल अजून खुब्ब पयस आसलें...!

...अजून ब्लॉक हुपून वचपाचें आसलें.

"देवी शांतादुर्गे पाव गे...! जाग्याच्या बेताळा तूं पाव...! म्हाजे धुवेक तुमचे सुवादीन करतां देवा... तेजो सांबाळ करात...!" छायाचे आईचें सांगणें मदीं मदीं चालूच आसलें. छाया वांगडा भायर सरतना पुराय भावार्थान तिणें देवाऱ्याक पळोवन हात जोडून सगल्या कुळाव्या आनी थळाव्या देवांक उलो मारलो.

"खंय...? कुडचडकारागेर न्ही...?"

ड्रायव्हर मोहनान तापणेक हात घालीत गौतमाक विचारलें. आनी तिगांयनी मेळून तापणी वयर चडयली. ते बराबर फाटल्यान दोतोर, नर्स आनी छायाची आईय गाडयेंत चडलीं. गौतम, रतीश आनी मोहन दार मारून कॅबिनांत चडले. आनी १०८ हॉस्पिटलाचे वाटेक लागली.

गाडयेचो सायरन आयकून घरा मुखावयल्या दोन-चार ट्रकांनी बरोच वेळ लागून रस्त्यार येवपाक १०८ क वाट मेकळी करून दिली. तशी १०८ रस्त्यार वयर सरली. आतां हेरां भशेनूच तांचेय फाटल्यान फुडल्यान ट्रकूच ट्रक उबे आसले. १०८ रस्त्यार पावली म्हणून सगल्यांनी थोडो सुस्कारो सोडलो खरो... पूण, ब्लॉक मात एके हारीन उबो आसलो.

ब्लॉक खरेंच खुब्ब गच्च आसलो. रस्त्याच्या दोनूय वटांनी लागलेलो. आडेकडेचे कांय ट्रककार मोठ्यान पदां लावन बसलेले. तर कांय जाण दुसऱ्या ड्रायव्हरां कडेन चकाटां मारताले. मदीं कोण कोण ब्लॉक सोडयतना दिसताले. पुलिसांचें काम चडशे फावटीं लोकांकूच करचें पडटालें. तेन्ना ब्लॉक मातसो हालतालो.

"तूं कांयच भियों नाका....! देवाचेर विश्वास दवर, सगलें सारकें जातलें."

छायाची आई छायाचे ताळवेर हात भोंवडायत ताका धीर दीत आसली. गुरवाचार आनी आवयपण हांचे मदल्या बाळंतपणाच्या दुव्याचेर उबें आशिल्लें छाया पोटांतल्यो वाडत आशिल्ल्यो वेणो सोंसपाचो यत्न करीत आसलें. पूण दर खिणाक वाडपी पोटाचे दुर्खींतूच ताचें मन घुसपल्लें. देवभावार्थान केल्ली कसलीच थातारणी ताचेर परिणाम करपाक पावनासली.

दोतोरान आनी नर्सीन छायाचेर मुळावे उपचार सुरू केल्ले म्हणून तागेल्यो वेणो थोड्यो कमी जाल्ल्यो खऱ्यो, पूण मदीं मदीं भुरगें पोटांत घुंविल्ल्यान दुखप चालूच आसलें. "भुरगें भितर घुंवताशें दिसता...! केन्ना केन्ना सारकी वाट मेळना जाल्यार, वा भुरगें चड मोटें आसल्यार बी जाता अशें." छायाक पळोवन दोतोरान अदमास केलो.

...घडये सारकी वाट मेळनाशिल्ल्यान तेंवूय भितर ब्लॉक जाल्लें आसपाक जाय.

"तुमच्या सांवड्ड्यांत सद्दां ऊट सूट ब्लॉक पडपाचें कारण कितें रे?" धुल्लाक लागून हारसो बंद करीत मोहनान रतीशाक विचारलें.

मोहनाच्या प्रस्नाची जाप बरे तरेन जाणा आशिल्लो गौतम बाबडो ब्लॉकाचेर आनी छायाचेर दोळे लावन बसलेलो. तो उलोवपाचे मनस्थितींत नाशिल्लो.

"राजकारण...!" प्रस्नाची जाप ओंठांरूच आशिल्ले सारको रतीश उलयलो.

"आमचे राजकारणी आनी पुराय राजकारणूच सद्द्या ब्लॉकांत पडलां..." एक वेगळीच पोटतिडक मोहनाक ताच्या उतरांनी जाणवली.

"आमच्या सांवड्ड्यांत अशी परिस्थिती केन्नाच नासली. असो सांवार येयल्ले सारको ट्रान्सपोर्ट हांगाच्यान केन्नाच जायनासलो. पयलीं ह्या रस्त्या वयल्यान फकत चार ते पांच कंपन्यांचोच ट्रान्सपोर्ट चलतालो आनी ट्रकूय कमी आसले. तेन्ना रस्तो अरुंद आसून सुद्दां कोणाकूच त्रास जायनासले... पूण आयज तशें ना... सेझा गोवा, तिंबलो, फॉमेंतो, साळगांवकारां सारके आनीक चार सोडले जाल्यार कायदेशीर खणीं परस बेकायदेशीर मायनिंगच चड जाता हांगाच्यान. हालीं हालीं आनी पयशांचे आशेक लोकांनी खणी कुशीकची आपापल्या भाटांतली लो-ग्रेडीची माती सुद्दां विकून पयशे केल्यात. आनी ट्रकूय काडल्यात. बेकायदेशीर खणी चलोवपी ल्हान व्हड मिनेर आनी राजकारणी थोडे आसात गोंयांत? पांच-स वर्सां पयलीं सुमार देड-दोन हजार ट्रक ह्या रस्त्यार चलताले."

"आनी आतां?"

"आतां सुमार चार ते पांच हजार ट्रक दिसाक ह्या रस्त्यार धुल्लाचीं धुमशेणां कांडीत चलतात. रस्तो तेदोच आसा म्होणोन इतल्या ट्रकांक तो आयज पावना. मागीर ब्लॉक कित्याक पडचोना? तितुंतले तितूंत केन्ना कोण ट्रक वाटेर दवरून कोपाक वयतात, कोण पंपार गर्दी घालतात, सर्कल तर सदांच जाम आसता. आनी पयऱ्यान बारीक मोटे ॲक्सिडॅण्ट तर आसाच... मरणाक सुद्दां शिरशिरें हाडपी ॲक्सिडॅण्ट...!" रतीश मातसो भावूक जालो. पूण परत स्वताक सांवरीत "आयजूय असलेंच कितें आसतलें. सकाळीं ट्रान्सपोर्ट तेन्नाच सुरू जातालो म्हणून १०८ अशी तशी पावली... नाजाल्यार...!"

"म्हणजे, तुमच्या सांवड्ड्यांत मायनी खूब आसात तर...?"

"ना... सांवड्ड्यांत एक्कूय मायन ना. सांवड्डेंच्यान फकत ट्रान्सपोर्ट जाता. कश्टी ते कालें, कोडले ते शिरवय आनी घांटा वयलोय म्हाल सांवड्डेंच्यानूच वयता. आनी जेन्ना सगल्यांचोच ट्रान्सपोर्ट एका बराबर चलता तेन्ना सांवड्डेंच्यान कापशें मेरेन, केन्ना सांवड्डेंच्यान काल्यां मेरेन तर केन्ना केप्यां आनी सांग्या मेरेन एका बराबर ट्रकांचें प्रस्थ पावता."

"तुमचे आमदार हेजेर कितें करतात तर?"

"ते राजकारण सोडून आनी कितें करतले?"

"हेजेर कांयच करूं ना तर तेंच्यानी?"

"केलां... खूब कितें केलां."

''तीन वर्सां जालीं, सांवड्डेंचो आमदार कोण हेंच लोक विसरोन गेल्यात. वेंचणुके वेळार एक-दोनदां लोकां मुखार येयल्लो तो. वेंचणूक जिकलो, आपलो ट्रान्सपोर्ट वाडयलो, गेलो...! लोकांच्या हातार पयशे पडले. जालें... फुडलें कोणाक पडलां?''

''आनी कुडचड्या वयलो?''

''तोवूय मिनेरूच... तीन वर्सां जालीं, बायपास बांदुया म्हणून आश्वासनां दीत आसा. बायपास कांय जायना, ब्लॉक कांय सुटना. तेंगेल्यो मायनी मात बेस बऱ्यो चलतात... मिनाच्या पयशांनी कांय आमदारांनी आनी आमदारांच्या आशिर्वादान चडश्या लोकांनी धाकलीं घरां मोडून लाखांचेच न्हूं, कोट्यांचे बंगले बांदल्यांत. लोकां मुखार प्रस्न उबे करप आनी लोकांक घुसपावन दवरप, हेंच ते करतात... राजकारणांतलो ब्लॉक जर सुटलो जाल्यार हो ब्लॉक आतांच सुटपाक शकता... पूण...!''

रतीशान सुस्कारो सोडलो.

आपल्या उलोवपांतल्यान दर एका सांवड्डेकारा वयली तिडक तो उकतायतालो.

फुडले दोन तीन ट्रक मातशे हालचाल करतात तें पळोवन मोहनान १०८ इल्ली इल्ली करून बरीच फुडें हाडलेली. छायाच्यो वेणो आनी किळच्यो आतां वाडतूच आसल्यो. सोंसपाक जायना जावन तें आतां दांत ओंठ चाबत हात पांय मारपाक लागलेलें.

''माश्शें सोंसून घे गो बाय... जालें...! ब्लॉक रोकडोच सुट्टलो आनी आमी रोकडींच हॉस्पिटलांत पावतलीं..''अशें म्हणत छायाचे आईन जनेलांतल्यान भायर नदर मारली. ''देवी शांतादुर्गे... कसली परिक्षा घेता गे आमची?'' छायाची आई छायाक समजायताली काय आपणाकूच समजावपाचो यत्न करताली हें कळपाक मार्ग नासलो.

रस्त्या वयलो ब्लॉक सोडोवपाक खंयचोय देव येतलो म्हणपाचीं लक्षणां आतां दिसनासलीं. मनशान केल्लो ब्लॉक मनशांनीच सोडोवपाक जाय आसलो.

छायाच्या लग्नाक दोन वर्सां पुराय जायत आशिल्लीं. आशुतोशा कडेन तार्चे लग्न मोगांत पडून आनी सगल्यांचे सम्मतीन जाल्लें. तांचें जोडपें म्हणल्यार राम सीतेचेंच म्हणूं येतालें. दोगांय एकामेकांक सोबऽ सारकीं. लांब रुंद पाटी कसो उजळ मुखामळाचो आशुतोश मदनाचो पुतळोच कसो. जाल्यार छायाय कितें दिसपाक उणें नासलें. वांटकुळें गोमटें हांसरें तोंड, पोल्यांचेर दोन खळयो आनी खाडके वयलो तीळ त्या मुखामळाक कोणाचेय नदरेंत भरून काळजांत देंवोवपाक पुरो आसलो.

आशुतोशाक ल्हान भुरग्यांची खूब ओड. तो बापूय जावपाचो आसा म्हणून छायान ताका ज्या दिसा सांगलेलें त्या दिसा खोशयेन ''आय लव यू...! आय जस्ट लव यू...!'' म्हणत ताणें छायाक मोगान आपल्या गोपांत घेतलेलें.

''खरेंच पियू...!'' ताका तो मोगान पियू म्हणटालो, ''तुवें म्हजो संवसार पुराय केलो. सांग, तुका कितें जाय?'' अशें विचारून छायाक ताणें प्रस्नूय केल्लो. पोटा कडेन हात व्हरत, ''येवपाचो आसा तेजेच खातीर मागतलें. वेळ येता तेन्ना सांगतां.'' अशें म्हणत परत तें ताचे वेंगेंत रिगलेलें.

आपल्या भुरग्या खातीर निकतीच जलमल्ली कंवळी माया त्या खिणाक छायाच्या दोळ्यांनी आशुतोश पळयतालो. बाब जाल्यार कितें नांव दवरचें आनी बाय जाल्यार कितें नांव दवरचें हाचेरूच तांचे मदीं केन्ना केन्ना झरावारक्यो जाताल्यो. एका परिपूर्ण संवसाराचें सपन तीं एकामेकांच्या दोळ्यांत पळोवपाक लागलेलीं.

गुरवाचाराच्या सातव्या म्हयन्याचेर, म्हणजे फुलां माळपाचीं आशिल्लीं तेन्ना सावन, छाया कुळाराक सांवड्ड्यां आयल्लें. आशुतोश तसो मदीं मदीं मेळून वतालो. येवपाक मेळना तेन्ना मात फोन करून घरकान्नीची खबर घेवंक विसरनासलो. तो पणजे बँकेंत अकावण्टण्ट आसलो. रायबंदरा तीं फ्लॅटांत रावतालीं.

सांवड्डेंची येरादारीची समस्या, धुल्लाचें प्रदुशण हाका लागून तो छायाक सांवड्ड्यां धाडपाक पयलीं तयार नासलो. असल्या दिसांनी कुयदाद घेवपाक कोण तरी जाय म्हणून ''आईगेरूच सगलें सारकें जातलें. आनी सद्द्या तरी थंय मायनींग बंद आसा. दोन तीन म्हयन्यां उपरांत तें सुरू जातलें.'' अशें म्हणून तें वचपाक हट्ट करपाक लागलें. छायाच्या ह्या हट्टाकूच लागून मागीर तो तयार जाल्लो. छायाची खबर आशुतोशाक कळयतकच तोवूय रोखडोच भायर सरलेलो.

''बाबांनो भायर किदेंय करूंक मेळटा जाल्यार पळयात रे...!'' छायाची आई बाबडी ''एकदांची या हांगच्यान'' अशा किंवाट्यान तांकां दोगांयकूय विनोवपाक लागली. तशे रतीश आनी गौतम १०८ तल्यान सकयल देंवून ट्रकां मदल्यान वाट काडपाचो यत्न करपाक लागले. इतल्यान ब्लॉक थोडोसो सुटलेलोय बी. करून करून १०८ सांवड्डेंच्या पुलाच्या तोंडार येवन रावल्ली.

इतल्या वर्सां सावन सांवड्ड्या आनी कुडचड्या मदीं दुवो आशिल्लो तो पूल लेगीत त्या दिसा छाया आनी हॉस्पिटल हांचे मदीं संबंद जोडूंक असफळ थारलेलो. तोवूय आयज मोन्यांनी स्तब्ध उबो आसलो.

पुलाच्या दोनूय वटांनी, तशेंच फाटल्यान आनी फुडल्यान ट्रकांच्यो अंतपार नाशिल्ल्यो लांबचे लांब रांको दिसताल्यो. धुल्लान माखिल्लो, काळ्या-तांबड्या मिनान लिकलिकपी रस्तो आनी ताचेर उबे आशिल्ल्या विद्रूप ट्रकांक पळयतकच, खंयच्याय रेब्या कोणांत लोळिल्ले रेडे कोणाक तरी शिंगां तोंपपाक तयारेन उबे आसात काय दिसतालें. ब्लॉकांत आनीक भर घालपाक दोन ट्रकां मदल्यान घाँवऽऽऽऽ घाँवऽऽऽऽ करीत वाट काडपी दोन चाकी चालक आपल्यो स्कुटरी, मोटरसायकली मेळटात तश्यो मदीं आडव्यो तिडव्यो घालतना दिसताले. तर खंयूय इल्लिशी रुंद सुवात मेळटा थंयच्यान घुसपाक धाकल्यो चार चाकी चलोवपीय फाटीं रावनासले.

कांय जाण त्या वेळार एकामेकांक वळखून लेगीत अनवळखी जाताले, तर कांय जाण ''खंय घुसता रे××××...! मुखार वाट ना ती दिसना...?'' म्हणून गाळीय घातल्यार कान भयऱ्यार घालताले आनी फुडें वताले. कारण, सगल्यांकूच वेळ जातालो.

ट्रकांची घरघर सतत दातेपाव चललेल्या सारकी चालूच आसली. त्या घरघरांत १०८च्या सायरनाचो आवाज खंयच्या ट्रकाच्या काळ्या धुंवरांत हुबून वतालो तें कोणाकूच कळनासलें.

रतीश आनी गौतम सगल्या तरांचे यत्न करून बेजारले आनी परत येवन गाडयेंत बसले. गौतमाचें उदास तोंड पळोवन रतीशूय बरोच पेचांत पडलेलो. ''कसल्या उतरांनी हेका समजांव? कितें उलोंव हेजे कडेन तेंच कळना!'' गौतमाक पळोवन तो मनांतूच

पुटपुटलो आनी वोगीच रावलो. तशे ते दोगूय मदीं मदीं छायाची जाग घेयत आसले. ''ब्लॉक सुटल्यार पुरो'' म्हणिल्ल्याची भावना दोगांयच्या तोंडार झळकताली. पूण हे परिस्थितींत कितेंच करप शक्य नासलें. रस्त्या वयल्या ब्लॉका भशेनूच कांय खिणां खातीर तांगेलेय विचार मातशे ब्लॉकांत पडिल्ले सारके जाल्ले. करचें कितें तेंच कोणाचे तकलेंत येयनासलें.

रस्त्या वयलो ब्लॉक सुटलेलो जाल्यार घडये त्या खिणाक सगल्यांच्या विचारां मदलोय ब्लॉक सुट्टलो आसलो.

पोटांत भुरगें धुंवलेल्या कारणान छायाची परिस्थिती मात खिणा खिणाक इबाडत वताली. हॉस्पिटल आतां एकाच किलोमिटराचेर आसलें खरें, पूण त्या दिसाक तें एक न्हय, एक हजार किलोमिटर पयस पावतलें म्हणपाचें कोणेंच येवजूंक नासलें.

फाटल्या म्हयन्याक छाया दोतोरागेर तपासपाक वतना ताचे वांगडा ताची आईय गेल्ली. दोतोरान तेन्ना सगलें बरें आसा म्हणून सांगलेलें. पूण बाळंटेरा वेळार जर तें रोखडेंच हॉस्पिटलांत पावलेंना जाल्यार बाळंत जातना अडचण येवपाक शकता अशेंय ताणें म्हणलेलें.

छायाक पळोवन सट्ट करून दोतोराचीं उतरां तिका याद जालीं आनी ती आनीक अस्वस्थ जाली. दोळ्यांतल्यान दुकांची एक धार गळयत ती आसा ते पोटतिडकीन ''म्हजे धुवेक वाचय रे देवा...! ताची पार्त बरे भशेन जावंदी रे सायबा... ताचो कुसवो पोसवोनी रे देवा...!'' अशें म्हणत सगल्या देव देवतांक होरावपाक लागली. तिचीं तीं करूण उतरां आयकून दोतोराचे आनी नर्सीचेय दोळे ओले जाले बगर रावले नात. पूण ब्लॉक सुटपाची वाट पळोवपा बगर कोणाच कडेन दुसरो पर्याय नासलो.

हेदोळ सावन पंपार आडकून उरलेले ट्रक हाल्ले तशे दुसरे वटेंतले ट्रक सवका सवका हालपाक लागले. धा पंदरा ट्रक गेले उपरांत एक लग्नाची न्हवरेकारांची गाडी ब्लॉकांत पडलेली तांकां दिसली. तांकां पळोवन तांणी मनांतल्यानूच ''हेवूय कोण आमचे सारकेच म्हुर्ताक चुकल्यात'' अशें म्हणून चुरचुरे उकतायले. दोन-चार ट्रकां फाटल्यान दोन बशीय आडकल्ल्यो आसल्यो. बसींतले कांय प्रवासी तकली भायर घालून काकुळटेन १०८त पळयताले. कोणूय आसूं बाबडी, ब्लॉक सुटोन बेगीन हॉस्पिटलांत पावल्यार पुरो...! देवा तूं पाव...! म्हणून अनवळखीय हड्ड्याक आनी ओठांक हात लावन मागणें करतना दिसताले.

...बुराक पडिल्ल्या एकाच पनेळांत बसलेले आनी पेंवपाक येनाशिल्ले दोग मनीस आनी कितें करतले आसले?

ब्लॉकांत पडलेले बसींतले लोक बसींतूच चिड्डून उबे रावून ''हें सदांचेंच जालां...!'' अशें म्हणून वोग्गी रावताले. कोणाक कामाक पावपाक, तर कोणाक बाजार घेवन घरा येवपाक, कोणाक... कोणाक मेळपाक, तर कोणाक इश्कोलाक-कॉलेजींत वचपाक बशींनी वरांची वरां लोंबकळतूच रावचें पडटालें. आनी लग्नाक म्हुर्तार पावतलो जाल्यार न्हवऱ्याक पांच ते स वरां बेगीनूच भायर सरचें पडटालें. फुडली ट्रीप चुकिल्ल्यान बसकारूय बेजारताले.

हें सगलें पळोवन मोहन सामको उबगलो. ''ह्या सगल्या प्रकाराचेर कोणूच कित्याक आवाज काडिना? कांयच उपाय ना हेजेर?'' असो प्रस्न मोहनान तांकां केलो. ह्या प्रकाराचेर तिडकल्लो रतीश परत तेच पोटतिडकीन उलयलो -

''आवाज काडटलो कोण? हे जे सगले ट्रकवाले दिसतात तेंचे पात्रांव हांगाचेच. ल्हान मायनीय तेंच्योच. ट्रान्सपोर्टूय हांगाच जाता. हांगा जो कोण आवाज काडटा तेचें तोंड रोकडेंच ट्रक दिवन बंद करतात. हेंकाच लागोन आयज हें अशें आसा. आमचे हेवटेनच्या गांवांनी पासय मार, तुका पोरसांत झाडां किल्लून आयिल्ले भशेन ट्रक किल्लल्ले मेळटले. एका एका आंगणांत पांच-पांच सात-सात ट्रक. जेचे कडेन ट्रक ना, वा जेका ह्या धंद्यांत पडपाचें ना तो कुशीक रावता, धुल्ल खाता. राजकारणाक खेपता. चार दीस बोवाळ घालता, पांचव्या दिसा पयशे घेता आनी वोगी पडटा. मायनींग नांवाचो नवो धर्म हांगा जल्मला. ह्या लोकांचो धर्म आनी कर्म एकूच... मायनींग...!'' हें सगलें मोहन नव्यानूच आयकतालो.

''तुजे येदे इतले तरणाटे हांगा दिसतात. ते कांयच करिनात तर...?''

''करिनात कित्याक...? करतात...! चडशे जाण ह्याच ट्रकांचेर ड्रायव्हर आसात. थोडे गॅरेजींनी लोखंड धोडायतात. आनी उरलेले दोन नंबराच्या म्हालाचो धंदो करतात. आमदारांची गुलामी करतात. पयसो हेंका नाचयता आनी हे पयश्यां खुस्तार आनी सोऱ्या नेटार नाचतात. आपल्याच पोटार पांय दवरून ट्रान्सपोर्टाक विरोध करपाक कोणाची कापझदाद आसा? चलता तशें चोलों म्होणोन सगले वोगी आसात...!''

''तूं हे लायनीक १०८ चलोवपाक नवो दिसता. म्होणोन तुका कांय खबर ना.''

''हय...!''

''आनी पुलीस कितें करतात तर?''

''सुमार एक वर जावन गेलें आतां, एक तरी पुलीस तुका दिसता जाल्यार पळय... तेवूय येयनात.''

''आमच्या मडगांवांत अशें केन्नाच जायना...! आमी त्या मानान खूब सुखी आसात.''

''आसतलेच सुखी...! हें सगलें राजकारण थंयच्यानूच तर सुरू जाता न्हूं...?''

मोहनाक सामकें नाखयां पडलेल्या सारकें जालें. सांवड्डेकार ब्लॉकाच्या आनी धुल्लाच्या प्रस्नाचेर सामके चाळवल्यात म्हणपाचें ताका आतां सारकें पटलेलें.

छायाच्यो वेणो मात आतां सुमारा भायर वचपाक लागलेल्यो. धुल्लाक लागून गाडयेचीं जनेलां नर्सीन पयलींच बंद केल्लीं तशे पंखे चालूच आशिल्ले. पूण छायाची कूड आतां उरफाटे परिणाम दाखोवपाक लागलेली. वेगळेंच फुगासांव ताका जावपाक लागलेलें. तकली हेवटेन तेवटेन हालोवन ताचे केंसूय फाफसल्ले. ताच्या पुराय आंगा वयल्यान घामाच्यो पांवळ्यो देंवपाक लागलेल्यो. थोडे केंस तागेल्या कपला वयल्या घामाक लागलेले ते आई परत परत पदरान पुसून सारकी करताली. छाया आतां सोंसना जावन व्हडल्यान करंदाय मारपाक लागलेलें. आंग ताणपाक लागलेलें. सवका सवका ताची साबुद्दूय वचपाक लागलेली.

आगे गेऽऽऽऽ आई गेऽऽऽऽ...! करून मारिल्ली तागेली एक एक करंदाय १०८ त आशिल्ल्या सगल्यांचें काळीज चिरीत वताली आनी शब्दब्रह्मांत वचून विलीन जाताली.

*(पान २५ चेर)*



# म्हजो रवीन्द्र सांगात

दिलीप बोरकार

"खंय रे तूं फाटल्या आयतारा?" घरांत भितर सरले बराबर म्हाका रवीन्द्रबाबांचो प्रस्न. हांव फकत हांसलों आनी तांचे फाटल्यान चलत रावलों.

"गोदूऽ, हो पळय दिलीप बोरकार आयला."

आपले कदेलीर बसतां बसतां रांदचे कुडी वटेन नदर मारीत रवीन्द्रबाबान म्हळें आनी म्हाका आपले मुखार बसूंक खुणायलो.

म्हज्यांतले भिडेस्तपण अजून उणें जावंक नाशिल्लें. हांव तांचे मुखार वावुरतना खांकुडटालों. कित्याक घडटा काय अशें? येद्या व्हडल्या मनशा मुखार वावुरपाची म्हाका संवकळ ना म्हूण? काय म्हज्यांतूच कितें न्यूनगंड बी आसा कसलो?

हातांतलें पुस्तक म्हजे मांडयेर दवरून हांव आंग चोरून सो तांचे मुखार बसलों. म्हज्या हातांत रवीन्द्रबाबान फाटले खेपे दिल्लें, *वेळेवयल्यो घुला* पुस्तक आशिल्लें. ताका हांवें बरेंऽ कव्हर घाल्लें.

"तें हातांत कितें तुज्या?"

"पुस्तक."

"मागीर दवर तें थंय मेजार."

कदेला कुशिनूच मेज आशिल्लें. ताचेर कांय नेमाळीं आशिल्लीं आनी 'राष्ट्रमत' आशिल्लो. ताचेर हांवें म्हज्या हातांतलें पुस्तक दवरलें आनी रवीन्द्रबाबांच्या तोंडा कडेन पळयत रावलों.

## तिसरी खिस्त

उलोवपाचें तें तांणीच. हांव आयलां तो तांचें आयकूंक. हांवें तांचे मुखार उलोवप म्हळ्यार ल्हान तोंडांत व्हडलो घांस घेवपा सारकेंच जावपाचें. हय! मराठी माध्यमांतल्यान शिक्षण घेतिल्ल्यान 'लहान तोंडी मोठा घास घेणे' म्हळ्यार कितें हें म्हाका तशें कळटालें. ताचोच हांवे तो अणकार केल्लो.

"कसलें पुस्तक वाचता?"

पयलीं मेजार दवरिल्ल्या पुस्तका कडेन आनी उपरांत म्हजे कडेन पळयत तांणी प्रस्न केलो.

पांयार पांय उडोवन, दोनूय हातांचे कोपर खुर्चेच्या हातांर दवरून, दोनूय हातांचीं बोटां एकामेकांत घुसपावन आंगठ्या कडलीं दोनूय बोटां एकामेकांक जोडून तीं आपल्या वोंठांक तेंकयत बसपाची तांची ती स्टायल. आतांय तांणी तेच स्टायलींत बसून म्हाका प्रस्न केल्लो.

"तुमी फाटले खेपे म्हाका पुस्तक दिल्लें वाचपाक. तें हाडलां हांवें."

"वाचलें?"

"हय. पूण म्हजे कडेन पुस्तक आसा तें. कला अकादमीन सप्रेम भेट दिल्लें. वाचूंक पावूंक नाशिल्लों. आतां तुमी दिले उपरांत वाचून काडलें."

"हेंय तुकाच दवर. कोणूय बरोऽ वाचपी मेळ्ळो जाल्यार एक ताका दिवन उडोवपाचें."

हांवें मोन्यांनी तकली हालयली. मनांत एक दुगदूग आशिल्ली, कितें वाचलां काय विचारीत म्हूण! थोड्या लेखकांक ती सवंय आसता. पुस्तक वाचलां काय ना तें जाणा जावन घेवंक पुस्तकांतलें कितेंय विचारून पळोवप. पूण म्हाका पुस्तक वाचिनासतना तें वाचलां म्हूण सांगपाक कांयच कारण नाशिल्लें. हांवें तें खऱ्यांनीच वाचिल्लें आनी आयज मेरेनच्या वाचनांत हेंच पुस्तक म्हाका बरे तरेन समजल्लें. जें कितें वाचलां तें मुद्दम जावन तकलेंत साठोवन दवरपाची गरज पडूंक नाशिल्ली. पुस्तक वाचूंक घेतलें तें पुराय करुनूच सकयल दवरिल्लें म्हळ्यार जाता. इतलेंच न्हय, बसींतल्यान वता आसतना बसींत लेगीत वाचूंक मेळचें देखून तें हातांत घेवन फिरतालों. ताका हांवें कव्हरूय घाल्लें. कित्याक लागून? तें म्हेळें जावचें न्हय देखून? ना. कोंकणी पुस्तक हातांत घेवन भोंवपाक म्हाका अजून लज दिसताली.

हांवें ती गजाल रवीन्द्रबाबांक सांगली ना. तशें सांगिल्लें जाल्यार म्हजे विशीं ते कितें समज करून घेतले आशिल्ले काय! ही भिरांत आशिल्ली. म्हजें मन म्हाकाच खातालें. पुस्तक हातांत घेवन म्हजी चुळबूळ चलताली. रवीन्द्रबाब म्हज्या ह्या खेळा कडेन पळयताले जावये!

"पुस्तक म्हाका आवडलें. एकान एक उतर वाचून काडलें. म्हाका खूब कितें समजलें. अशी गजाल हे आदीं खंयचेंच पुस्तक वाचतना घडूंक नाशिल्ली. पुस्तक वाचतना तुमीच म्हजे कडेन उलयतात अशें दिसतालें."

हांव उलयतना रवीन्द्रबाब बारकायेन आयकताले. कसली तरी नविदाद आयकल्ले वरी. तांच्या दोळ्यांत लिकलिकसाण आशिल्ली. म्हजें उलोवप इतलें मन लावन ते आयकतात तें पळोवन म्हजें काळीज धडधडटा असो म्हाका भास जातालो.

"हांवें पयलीं तुमचें सगळें वाचलें आनी मागीर प्रस्तावना वाचली. मनोहरराय सरदेसाय हांची. पूण तुमचें वाचतना जसो तल्लीन जाल्लों तसो कांय तांचें वाचतना जालों ना. वाचतना उबगल्ले वरी दिसतालें. तरी सगळें वाचून काडलें."

"मनोहरबाबाक मेळ्ळा?"

"पळयला हांवें. तोय आशिल्लो न्हय दिवचलच्या शिबिराक?"

"व्हडलो कवी तो! फ्रांसेज भाशेचो जाणकार. कवीची भास तशी सोपेपणान कळना. ते खातीर कवितेचो अभ्यास करूंक जाय."

रवीन्द्रबाबांच्या मनांत मनोहरबाबां विशीं उपाट आदर आसा म्हणपाचें तांच्या उलोवपांतल्यान जाणवतालें.

इतले मजगतीं बाई, रवीन्द्रबाबांची आवय, च्या घेवन आयली. हातांतली च्या थंयच्या मेजार दवरून म्हाका पळयत रावली. "बरो आसा मरे?" अशें विचारून भितर गेली. च्या वांगडा कसलो तरी

शिरो काय सांजो किर्ते म्हणटात तो आशिल्लो. रवीन्द्रबाबान एक बशी उखल्ली आनी म्हज्या हातांत दिली. दुसरी आपल्याक घेतली. हातांत कुलेर घेवन ते रुचीन शिरो खावंक लागले. तांच्या त्या खावपांतूय एक कलात्मकताय म्हाका जाणवताली. कसलीच घाई करिना आसताना बशी दाव्या हाताच्या पांचूय बोटां मर्दी धरून उजव्या हाताचे चिमर्टेत कुलेर घेवन ल्हवपीक तरेन इल्लो इल्लो शिरो काडून खावपाची तराच वेगळी आशिल्ली. सवकासायेन पुराय रूच घेवन खावप!

तीच गत च्या घेतनाय बी! शिऱ्या वांगडाच च्या हाडून दवरिल्ल्यान ती मातशी न्हिविल्ली. ताचेर साय दाटिल्ली. रवीन्द्रबाबान चिमटेन अचळय साय काडून पिरयेंत दवरली. बोटांक लागिल्ली च्या बोटां तोंडांत घालून चोखले उपरांत चिमटेन चिक्राचो कान धरून च्याचे सवकासायेन घोंट घेवप. सगळी हालचाल शांत चित्तान, कलात्मक पद्धतीन चलताली. ह्या मनशा भितर कलात्मकतेची जाण आसा म्हणपाचें तांचे दरेके कृतींतल्यान दिसून येतालें. कसलीच कृत्रीमताय ना.

च्या घेवन तांणी चिक्र-पिरी दवरल्या आनी बोल्सांतल्यान सिगरेट काडूंक हात घाला मात, दारांत कोणाच्या तरी पावलांची सुलूस लागली. कोण तरी तांगेर आयिल्लो. पुडवें, ताचेर धवें खोमीस. खोमसार ज्युदी. माथ्याक धवी तोपी. हातांत एक पास्त.

रवीन्द्रबाबान सिगरेटीचें पाकीट भायर काडिल्लें तें पर्थून बोल्सांत घालें. बेगी बेगीन ते कदेला वेल्यान उठले. 'काशिनाथबाब, येयात' म्हणत उठून दारा मेरेन गेले. तांकां येवकार दिवन भितर घेवन आयले. हांव ते व्यक्तीक पयलेच खेपे पळयतालों. पयलीं केन्ना मेळूंक नाशिल्लों. पेपराचेर बी केन्ना फोटो पळयिल्ल्याची याद जाताली तीय तांचे माथ्या वेले गांधी तोपयेक लागून. पूण कोण हो काशिनाथबाब हाची कल्पना नाशिल्ली.

रवीन्द्रबाब तांकां घेवन भितर आयले. इतले मजगतीं हांव कदेला वेलो उठून उबो राविल्लों. काशिनाथबाब येवन हांव ज्या कदेलार बशिल्लों त्या कदेलार बसले. बसतना तांणी आपल्या हातांतलें पास्त काडून मेजार दवरलें. रवीन्द्रबाबूय आपले कदेलीर बसले. हांव कुशीचे कदेलीर वचून बसलों.

"हो कोण?"

म्हजे कडेन प्रस्नार्थक नदरेन पयलीं पळोवन मागीर रवीन्द्रबाबां कडेन पळयत ते व्यक्तीन विचारलें.

"दिलीप बोरकार. कोंकणींतलो कवी."

रवीन्द्रबाबान म्हजी वळख कवी म्हूण करून दिली. म्हाकाय भितरल्यान बरेंऽ दिशिल्लें. ते व्यक्तीनूय म्हजे कडेन तोखणायेन पळयल्ले वरी पळयलें. ते काशिनाथ परब आशिल्ले. जनता पक्षाचे अध्यक्ष. ते आयिल्ल्यान हांव आतां कडेक पडिल्लों. हांवें किर्ते करचें तें म्हाका कळऽ नाशिल्लें. काशिनाथबाब येवपाचे आसात हाची म्हाका कल्पना नाशिल्ली. दनपारचो वेळ आशिल्लो. जेवणाचो वेळ जायत आयिल्लो. काशिनाथबाब येवपाचे आसात म्हणपाचें रवीन्द्रबाबान म्हणुंकूय नाशिल्लें. तशें कळिल्लें जाल्यार हांव वचनूय बी आशिल्लों. पूण आतां मोन्यांनी बसून रावले बगर दुसरो पर्याय नाशिल्लो.

"इंदिरा गांधी देश सोंपोवंक उठल्या. आमीय हांगा किर्ते तरी करचें पडटलें."

काशिनाथ परब म्हणटात ते व्यक्तीन तकलेक मिरयो घालून म्हळें.

"तिच्या हातांत देश उरप म्हळ्यार... ती आनी तिचो तो पूत संजय देशाचें किर्ते करीत, सांगूं नजऽ. आणिबाणी देश काबार करतली."

रवीन्द्रबाब सामके पोट तिडकेन उलयताले. ते इंदिरा गांधींक वायट कित्याक म्हणटात तें कळूंक मार्ग नाशिल्लो. म्हजें इंदिरा गांधी विशीं बरें मत आशिल्लें. बांगला देश झुजा वेळार मुजीबूर रहमान, इंदिरा गांधी म्हजे हिरो आशिल्ले. इंदिरा गांधींक 'प्रियदर्शिनी इंदिरा' अशी उपाधीय मेळिल्ली. असले बायल - मनशेक रवीन्द्रबाब दुशणां दितात तें म्हाका रुचूंक नाशिल्लें. इंदिरा गांधीन किर्ते केलां म्हूण रवीन्द्रबाब तिची टिका करतात हें कळपा इतलें म्हजें राजकी गिन्यान नाशिल्लें. तरी लेगीत रवीन्द्रबाब म्हणटात तें खरेंय आसूं येतालें. त्या वेळार हांवें किर्तेय मत उकतावप बरोबर नाशिल्लें. म्हजें काम फकत आयकुपाचें अशें चिंतून हांव शांतपणान तांचें उलोवप आयकतालों.

"काशिनाथबाब बरे मूं? च्या हाडटां आं..." गोदुबाय आतां भायर आयिल्लें. भोवतेक तें न्हावपाक गेल्लें आनी काशिनाथबाब आयला हें कळटकच तांकां जापावंक भायर आयिल्लें जावंक जाय.

"आतां च्या नाका. जेवपाचो वेळ जाला." काशिनाथबाबान हक्कान सांगचें तशें सांगलें. म्हणचे, हांगा येवपी सगळेच हक्कान येताले. कोणाक आपूण परकी अशें दिसनाशिल्लें.

काशिनाथबाब आनी रवीन्द्रबाब आणिबाणी, इंदिरा गांधी हांचेरूच बरोच वेळ उलयत आशिल्ले आनी हांव मोन्यांनी आयकतालों. तांच्या उलोवपांत जयप्रकाश नारायण, मोरारजीभाई, जॉर्ज फर्नांडिस अशीं नांवां येतालीं, जीं म्हजे संवकळीचीं आशिल्लीं.

काशिनाथ परब मडगांवचे. तेन्ना ते गोंयच्या जनता पक्ष फांट्याचे अध्यक्ष आशिल्ले जावंक जाय. आवाज, चलप, वागप सगळें हेरांचेर शेक दवरपी कशें. पूण रवीन्द्रबाबांचो तांचेर शेक आसा अशें तांच्या वागपा वेल्यान कळटालें. ते तांकां रवीन्द्र म्हूण उलो मारून उलयताले खरे, पूण त्या उलोवपांतूय एक अदब आशिल्ली. रवीन्द्रबाब तांकां काशिनाथबाब म्हणटाले आनी काशिनाथबाब तांकां रवीन्द्र म्हण पाचारताले तरी एकामेकां कडेन ते आदरान वागताले.

जेवंक बसले तेन्ना तांच्या उलोवपांत इल्लो खंड पडलो. तोय बी गोदूबायन काशिनाथबाबांच्या घरची खबर घेतली तेन्ना. उपरांत जेवतां जेवतां पर्थून आणिबाणी, नेहरू, इंदिरा गांधी बी सुरू जाल्लें.

जवाहरलाल नेहरू, लोहिया, जयप्रकाश हांचे सारके फुडारी क्वचितूच जल्माक येतात. तसले फुडारी ह्या देशाक आसात - आशिल्ले म्हूण हो देश संवसारांत तकली वयर काडूंक पावलो. इंदिरा गांधीन मात आणिबाणी लावन देशाचें नाक कातरलें. ती हुकूमशाह जावंक पळयता. तिका येन्नादरूच आडावंक जाय, ना

जाल्यार ती देशाचें नेतृत्वूच खच्ची करून उडयतली...

असलें बरेंच किर्ते म्हज्या कानार पडटालें. किर्ते खरें, किर्ते फट, हातूंतलें म्हाका कांयच खबर नाशिल्लें. जे इंदिरा गांधी विशीं म्हज्या मनांत उपाट आदर आशिल्लो तो रवीन्द्रबाबांच्या उलोवण्याक लागून उणो जायत गेल्लो. रवीन्द्रबाब सांगतात तेंच खरें आसूंक जाय. गरजे भायर रवीन्द्रबाब कोणाक दुशण दिवपाचे नात. इंदिरा गांधी खऱ्यांनीच वायट आसतली. तिणें आणिबाणी लावन खूबश्या फुडाऱ्यांक कादयेंत उडयिल्ले. तातूंत पर्थून पर्थून नांव कानार पडटालें तें जयप्रकाश नारायण हांचें. कोण काय हो जयप्रकाश नारायण? रवीन्द्रबाब तांचे विशीं ज्या आदरान आनी अभिमानान उलयताले ताचे वेल्यान तो एक व्हड फुडारी म्हणपाचो अदमास हांवें केल्लो. पत वगडावन बशिल्ल्या आमच्या देशाक तारतलो जाल्यार जयप्रकाश नारायण हांचे सारकें नेतृत्वूच ह्या देशाक जाय अशें म्हाका रवीन्द्रबाबांच्या उलोवण्या वेल्यान कळिल्लें.

जेवले उपरांत रवीन्द्रबाब न्हेसपा खातीर भितर गेले. हांव आनी काशिनाथबाब भायर बसून आशिल्ले. आतां काशिनाथबाब म्हजे कडेन पळयताले. तांणी म्हजी खबर विचारून घेतली. कविता करपा भायर पोटा पाणया खातीर किर्ते करता काय म्हूण तांणी बेधडक प्रस्न केलो. रवीन्द्रबाबांक मेळून म्हाका कितलेशे दीस जाल्ले. आमची बरी संवकळूय जाल्ली. पूण हो प्रस्न म्हाका रवीन्द्रबाबान अजून विचारूंक नाशिल्लो. हांव कविता करतां अशें रवीन्द्रबाबांक हांवें म्हणिल्लें तेन्ना तांणी म्हणिल्लें, "कविता सगळेच करतात. पूण सगळेच तिगनात. कांय जाण कविता करपाचें सामकेच सोडटात. कांय गद्या कडेन वळटात. तुवें कविता करपाच्योच. ते भायर गद्यूय बरोवचें. कविता ही चलता भोंवतना मनांत तयार जाता. पूण गद्य बरयतलो जाल्यार वरांचीं वरां बैठक मारची पडटा. गद्य बरोवंक बैठक मारून तीन-तीन चार-चार वरां बरयता तोच आपले भाशेची साहित्यीक बसका घट करता."

अशें खूबशें रवीन्द्रबाबान म्हाका सांगिल्लें. पूण हातूंत 'मनशाक पोटूय आसता' हाची जाणविकाय तांणी करून दिवंक नाशिल्ली. ती म्हाका रवीन्द्रबाबागेर काशिनाथबाबान करून दिल्ली. ते भायर काशिनाथबाबान आनीक एक गजाल म्हाका सांगली - "रवीन्द्र हो एक व्हड मनीस. तो गोंयचें नांव वयर काडटलो. ताका जितलो गोंयचो हुसको आसा तितलो आनीक खंयच्याच गोंयकाराक आसत अशें म्हाका दिसना. म्हाकाय आसा अशें हांव म्हणना. तूं ताच्या सांगातान वावुरलो जाल्यार तुका खूबशें शिकूंक मेळटलें. काकासायबां वांगडा रावून आयिल्लो मनीस तो!"

काशिनाथबाब सांगताले तातूंत लटीक कांयच नाशिल्लें. काशिनाथबाबांक साहित्या विशीं किर्ते कळटालें, तांणी रवीन्द्रबाबांचें कितलें वाचिल्लें, नकळं. पूण काशिनाथबाबांक तांचे विशीं खूब आदर आसा म्हणपाचें तांच्या उलोवपा वेल्यान कळटालें.

रवीन्द्रबाबां विशीं हेर लोक उलयतनाय हांवें आयकल्लें. हेर लोक म्हळ्यार, म्हजे वळखीचे कांय जाण. तेय रवीन्द्रबाबांक कितले वळखतात, म्हाका खबर नाशिल्लें. पूण रवीन्द्रबाब बामण आनी बामणा पासून सावध रावंक जाय अशें ते आपसांत उलयताले, केन्नाय म्हाकाय सल्लो दिताले. पूण हांगा काशिनाथबाबां सारकी एक व्यक्ती, जी स्वतः बामण न्हय, ती रवीन्द्रबाबां विशीं वेगळेंच सांगताली.

रवीन्द्रबाब धवेच खादी कपडे घालून तयार जावन भायर आयिल्ले. धवो लेंगो, ताचेर धवो सदरो, खांद्याक एक बोटवो, तोय खादीचो. हातांत एक कसलें तरी पुस्तक आशिल्लें तें तांणी त्या बोटव्यांत घालें.

"दिलीप, आमी आतां मडगांवां वतात. मडगांवां एक मिटींग आसा. फाल्यां हांव पणजे आसां. थंय आमच्यांनी मेळूं येता."

पणजे खंय मेळपाचें हाची म्हाका कल्पना नाशिल्ली. हांव तांच्या तोंडा कडेन पळयत रावलों.

"पणजे तुका वसंत सबनीस खंय रावता तें खबर आसा?" तांणी विचारलें आनी हांवें न्हयकारी मान हालयली. मागीर तांणी रावालें थिएटर खंय आसा तें जाणा काय विचारलें. तें म्हाका खबर आसतलें अशी तांची अपेक्षा आशिल्ली. ना म्हणप शक्य नाशिल्लेंच. म्हजे पिरायेच्या तरनाट्याक पणजेचें रावालें थिएटर खबर नासप म्हळ्यार एक अजापूच थारपाचें!

रवीन्द्रबाबान म्हाका वसंत सबनीसांच्या घरा कडेन कशें वचप तें सांगलें आनी सकाळीं थंय मेळुया अशें सांगलें.

"गोदूऽ आमी भायर सरतात आं!" अशें रवीन्द्रबाबान म्हणटकच गोदूबाय भितरल्यान भायर आयलें. काशिनाथबाबान ताचो निरोप घेतलो आनी आमी भायर सरले.

"दिलीपूय वता तुमचे बरोबर? सारको व्हरात ताका!" गोदूबायन रवीन्द्रबाबांक म्हळें.

"तो पणजे वता. आमी मडगांवां वतात मवानीक मेळपाक. थंय आमी मिटींग घेवपाचे आसात. कांय जाणांक आपयल्यात." रवीन्द्रबाबान गोदूबायक म्हळें.

गोदूबायन म्हळें, 'बरो करून' आनी दारांतूच उबें रावलें. आमी रस्त्यार सकयल पावऽ मेरेन गोदूबाय दारांतूच आशिल्लें. रवीन्द्रबाब घरांतल्यान भायर सरून वतना भोवतेक गोदूबाय अशेंच भायर दारार येवन रावता जावये! रवीन्द्रबाब सकयल पावऽ मेरेन तांकां निरोप दिवपा खातीर अशेंच रावता जावंक जाय आनी मागीर हात हालोवन भितर वता जावंक जाय अशें किर्ते तरी समिकरण हांवें केल्लें. रवीन्द्रबाबांची जीण ही क्रांतिकारी चळवळी, तेच वांगडा, काव्यमय, प्रेममय अशी किर्ते तरी तांची म्हाका वळख जावंक पाविल्ली.

मशिदी कडेन पावऽ मेरेन हांव रवीन्द्रबाबां फाटल्यान चलतालों. ते दोगूय उलयत आशिल्ले खरे, पूण रवीन्द्रबाबांचें लक्ष म्हजेरूय आशिल्लें. मशिदी कडेन पावले उपरांत तांणी म्हाका पलतडीं पणजे वचपाची बस थारता थंय रावपाक सांगलें आनी ते दोगूय मडगांव वचपाक बशीक उबे रावले. हांव रस्तो हुपतना तांणी प्रस्न केलोच, "बशीक पयशे आसात मरे?"

हांवें हय म्हणत रस्तो हुपलो. बारीक-सारीक गजालींचेर रवीन्द्रबाब लक्ष कशें दवरतात काय? रस्तो हुपतना म्हाका प्रस्न पडले बगर रावलोंना.

# वळख

## मूळ हिंदी: जय प्रकाश  अणकार : उदय देशप्रभू

सत्यवती सांजे वेळार घरा परतली तेन्ना तिका खूब पुरो जाल्लें. हें पुरो जावप तना परस चड मनाचें आसलें. ती आख्खो गांव भोंविल्ली म्हळ्यार जाता. तिचो घोव काम करतालो त्या दर एका घरांत ती गेल्ली. पूण खंयच्याच घरांत तिका काय मेळूंक नाशिल्लें. मेळिल्लें कितें काय म्हळ्यार, फकाणां, अवमान आनी दुस्वास.

सत्यवती माधोपूर गांवांत रावताली. एक बायल-मनीस केंस मारपाचें काम करूंक सोदता ही गजाल गांवच्या लोकांक अनवळखी आसली. पूण सत्यवतीची परिस्थितीच तशी आसली. हें काम सोडलें जाल्यार दुसरें खंयचेंच काम तिका येनासलें.

खरें म्हळ्यार, आपणाक हें काम करचें पडटलें म्हूण खासा सत्यवतीनूच केन्ना येवजूंक नासलें. पूण काळान कूस परतिली आनी तिका हें काम करचें पडलें.

खिणा भितर जिवीत बदलता म्हणटात तें सत्यवतीचे बाबतींत सामकें खरें जाल्लें.

सत्यवतीचो घोव हरदेव केंस मारपाचें काम करतालो. ह्या कामांतल्यान आपल्या ल्हानश्या कुटुंबाचो संवसार बरे बशेन चलचो इतली जोड ताका जातालीच. ताचें कुटुंब म्हळ्यार सोबीत बायल आनी तिगां भुरगीं.

सत्यवती सोबीत आनी जापसालदार घरकान्न आसली. भुरगींय नम्र, थंड आनी आवय-बापायक मान दिवपी आसलीं. हाचे परस चड तांकां आनीक कितें जाय आसलें?

हरदेव बायल-भुरग्यां वांगडा समाधानान जियेतालो. पूण त्या दिसा तांचीं खोशयेचीं ल्हारां व्हांवन गेलीं. गांवच्या जमीनदाराचे चलयेच्या लग्नाची व्होंवळीक घेवन हरदेव सकाळीं फुडें दुसऱ्या गांवांतल्या तांच्या सोयऱ्यांगेर वचूंक भायर सरिल्लो. गांवाक तेंकून वचपी रेल्वे लायन तो हुपतालो. तेन्नाच एके गाडये मुळा तो आयलो आनी जाग्यारूच सोंपलो. ताच्या मर्णाची खबर उज्या

**भारतीय कथा**

बशेन गांवभर पावली. सत्यवतीच्या कानार ती पावचे पयलींच घोवाचें मडें तिच्या दारार पाविल्लें.

ती घडकेन घोवाच्या मडचार नदर मारताली, घडकेन आपल्या रडपी भुरग्यांचेर. घोवाच्या मरणान ती आपणालें अस्तित्वूच शेणोवन बशिल्ली.

हरदेव वचून म्हयनो जाता थंय आसा, सत्यवती मुखार जेवपा-खावपाचो प्रस्न उबो जाल्लो.

हरदेव गरीब आसलो. ताचे कडेन शेत-भाटूय नासलें आनी केंस मारपाचो सोडल्यार दुसरो खंयचो धंदोय नासलो. आतां केंस मारपीच ना म्हणटकूच तो धंदोय ना, आनी जोडूय ना. हे परिस्थितींत संवसार कसो चलोवप, सत्यवतीक कळना जालें. ती साप्प उणी शिकिल्ली. असल्यांनी नोकरीय म्हूण कसली करतली आसली? आतां कुटुंबाचो सांबाळ कसो करप? तिचे मुखार व्हड प्रस्न उबो रावलो.

तिणें खूब येवजिलें आनी निमाणें, घोवालेंच काम मुखार चलोवपाची थारावणी घेतली. हें एकूच काम तिका बरें जमतालें. हरदेवानूच आपूण जावन तें तिका शिकयल्लें. आपल्या भुरग्यांचे केंस तीच मारताली.

घोवा कडल्यान हें काम शिकून घेतना पयलीं पयलीं तिका विचित्र, अडेचें अडेचेंशें दिशिल्लें. ह्या कामाचो आपणाक कसो कितें उपेग जातलो, तिका कळऽ नासलें. हातां हरदेवूच ना तेन्ना ह्या कामाचें म्हत्व तिका कळिल्लें.

कसलोय निर्णय घेवपाक सोंपो, पूण तो कारवायेंत हाडप खूब कठीण. पयली गजाल जितली सोंपी तितलीच दुसरी गजाल कठीण हें सत्यवतीक पटलें तेन्ना ती आपलो निर्णय कारवायेंत हाडपाक घरा भायर सरली.

गांवांत भोंवपाचो हो तिचो धावो दीस आसलो आनी आयजूय ती रित्या हातांनी परतल्ली.

सत्यवती घरांतल्यान भायर सरून दोन वरां जाल्लीं. वोत तापपाक लागिल्लें. ज्या घरांत ती वताली थंय तिका



न्हयकारूच मेळटालो. येवजीत येवजीत ती मुखार सरली. तेन्ना तिची नदर बाज्जेर बशिल्ले धनेश्वरीकाकीचेर पडली.

तिचे म्हऱ्यांत वचून सत्यवतीन तिका नमस्कार केलो. काकीनूय तिच्या नमस्काराक जाप दिली आनी तिका बाज्जेर बसूंक सांगलें.

सत्यवती बाज्जेर बसली तेन्ना धनेश्वरीकाकीन म्हणलें, "तुज्या घोवाचें आयकून खूब दुःख जालें. बरोऽ मनीस आसलो बाबडो. पूण पुता, हरदेव आतां ना तेन्ना भुरग्यांच्या फुडाराचें तुवें कितें येवजिलां?

"कितें तरी येवजुचें पडटलेंच, काकी..." सत्यवतीन म्हणलें.

"कितें येवजिलां?"

"ताचेंच काम चलोवपाचें थारायलां हांवें..."

"कितें?"

"तो घरा घरांनी भोंवन लोकांचे केंस मारतालो. आतां हांवूय बी तेंच काम करतलीं."

"म्हणजे, तूं दादल्यांचे केंस मारतली?"

"हय..."

"तकली जाग्यार आसा मगे तुगेली? दादल्यांचें काम तूं बायल करतली?"

"कितें जालें काकी? बायल मनीस न्हय तर? तिका दोन हात आसनात?"

"तें बरें आसा. पूण अशें आमच्या गांवांत आयज मेरेन घडूंक ना आनी मुखारूय घडचेंना."

"संवसार आतां खूब मुखार पावला काकी," सत्यवतीन म्हणलें, "काकी, तुमगेर कोणाचेय केंस कापपाचे आसल्या सांग."

"ना."

"आतां नासत. मुखार केन्नाय आसल्यार सांग."

"बरें बरें, सांगतां..." धनेश्वरीन म्हणपाक जाय म्हूण म्हणलें. घडये तिका कडसरावपाक.

"बरें काकी, चल्लीं हांव." म्हणत सत्यवती उठून उबी रावली.

गरमेक लागून सत्यवतीची कूड घामान थपथपिल्ली. ताळो सुकिल्लो आनी दोळ्यां मुखार काळोख येतालो. तिच्यान आनीक मुखार वचूंक जायना जालें. तिणें हेवटेन तेवटेन नदर मारली आनी ती मुखावेल्या सुखदेवकाकाच्या घरा वेटेन चलूंक लागली. पडवेर बशिल्ल्या सुखदेवकाकान तिका पळेली आनी म्हणलें, "आगे, तूं सत्यवती न्हय? अशी भर दनपारची खंय वता?"

सत्यवती पडवेर हांतरिल्ले शेंदरेर बसली. पदरान तोंड पुसलें आनी म्हणूंक लागली, "काका, एक ग्लास उदक मेळत? गरमेन ताळो सामको सुकला."

"हय, हय..." म्हणीत सुखदेवान तिचे खातीर उदक मागयलें. उदक पियेवन ग्लास परतो धाडलो तेन्ना सुखदेवान परतेंय विचारलें, "सत्यवती न्हय तूं?"

"हय काका, सत्यवतीच हांव."

"हरदेव तुजी सदां तोखणाय करी... देवाक कितें येवजलें, कोण जाणा, इतले बेगीन बाबड्याक आपणा सरीं आपोवन व्हेलो."

दुखेस्त नदरेन सत्यवती सुखदेवाक पळेत उरली.

"पूण बाये, अशी भर दनपारची खंय चल्ली?"

"कामाचे सोदीक. भुरग्याच्या, म्हज्या पोटाक घालूं नाका?"

"हय... पूण कसलें काम सोदता तूं?"

"म्हजो घोव करतालो तेंच."

"केंस मारपाचें?"

"हय..."

"तूं दादल्यांचे केंस मारतली?" सुखदेवकाकान तिचे कडेन विचित्र नदरेन पळेलें.

"हय..." सत्यवतीन म्हणलें. हें एक काम सोडल्यार दुसरें खंयचेंच काम म्हाका येना."

"पूण बायल जावन तूं दादल्यांचे केंस मारतली?"

"हय..." सत्यवतीन जाप दिली. "तुमगेर कोणाचेय केंस कापपाचे आसल्यार सांगचें..."

सुखदेवकाका कांय खीण बेजारून सो तिका पळेत उरलो. मागीर कितें तरी येवजूंक सो लागलो.

"काका..."

"कितें...? पूण तूं हें काम करूंक शकतली?"

"हय... ताचेच कडल्यान शिकल्यां हांव हें काम."

आयकून काका ओगी जालो. सत्यवती व्हडे आशेन ताचे कडेन पळोवंक लागली. सुखदेवकाकान उलो मारून कोणाक तरी आफयलो. स-सात वर्सांचो एक भुरगो तांचे म्हऱ्यांत आयलो.

"बाये, हो म्हजो व्हडलो नातू. अशें कर, हाचे केंस तूं मार."

"कितें?" सत्यवतीचो स्वास नेटान चलपाक लागलो. शेंकड्यांनी फावटीं 'ना' आयकतकूच पयले फावट कोणाच्या तरी तोंडांतल्यान तिका 'हय' आयकूंक मेळिल्लें.

"बाये..." तिका ओगी पळोवन काकान तिका हटकिली.

"हय... आतांच कापतां केंस..." सत्यवती बेगीबेगीन उलयली.

"बाबू, असो लागीं यो..." अजाप भरिल्ले नदरेन तिका पळेत आशिल्ल्या भुरग्याक तिणें म्हऱ्यांत आपयलो. भुरग्यान आज्या कडेन पळेलें आनी तो तिचे म्हऱ्यांत वचून बसलो.

सत्यवतीन आपणालीं आवतां भायर काडलीं. तिचे हात कडकडटाले. पूण रोखडेच तिणें ते आळाबंदा हाडले आनी भुरग्याचे केंस मारूंक लागली.

सुखदेवकाकाच्या घरा म्हऱ्यांतल्यान वचपी एकल्याची नदर भुरग्याचे केंस मारपी सत्यवतीचेर पडली. अजापान ताचीं पावलां थारलीं.

त्या भुरग्याचे केंस मारून जातासर थंय वीस-एक जाण एकठांय जाल्ले. आपलें काम सोंपोवन सत्यवतीन त्या भुरग्याच्या हातांत हारसो दिलो आनी विचारलें, "सांग, कशे दिसतात केंस?"

कांय खीण भुरगो हारशांत आपलें तोंड पळेत उरलो. मागीर एक तोखणायेची नदर ताणें सत्यवतीचेर घाली आनी उठून उबो रावलो.

हाचे उपरांत सत्यवतीक केंस मारपाचें काम मेळत रावलें. आयज पुराय गांवाक तिची वळख जाल्या आनी तिचें कुटुंब सुखाची जीण जियेता.



फादर तॉमास इश्तेव्हां वा थॉमस स्टीफन्स हाणें बरयल्लें

# ख्रिस्तपुराण

## अणकारपी: सुरेश गुंडू आमोणकार

**पुराण- दुसरें अवेस्वरू- आठवो**

जुजे आनी सर्गींचे देवदूत जेजु ख्रिस्ताच्या पवित्र जल्माची कशी स्तुती करतात.

बेलेंचे गोपाळ जेजु बाळकाचो गोठो पळोवपाक येतात.

त्यो घडणुको समस्त। जुजे पावलो पळोवंक। पळोवन जालो प्रेम-भरीत। जेजुच्या तेजान ।।१ ।। कुंवारी मरिया जुजे सांगातीं। दोगांजणां भजन करती ।। दोगांय दावणेंत न्हिदिल्लो पळेती। इस्त्राएलिच्या रक्षणा ।।२ ।। पळोवन अजापीत जालीं। म्हणटी वैकुंठिची माऊली। पळे दुबळीं आवडलीं। कशीं हांकां ।।३ ।। माता दुबळी पळोवन। रान-खोपटेंत जल्मून। तणा हांतरूण करून। न्हिदला तो ।।४ ।। तणा हांतरूण तें। गोठ्या सयत ताणें। मोनजातीचें उश्णें घेतलां ।।५ ।। ती नवलाय जुजे पळेतालो। तेन्ना जेजुक वाखाणटालो। थंय कितें उलयता आसतलो। तें सांगन तुमकां ।।६ ।। जय जय रचणारो सगल्यांचो। तूं विसव दातारा त्रिभुवनाचो। मनोरथु परमेश्वरा संवसाराचो। आयलो संवसारीं ।।७ ।। तूं चलता वाऱ्याच्या पांखांचेरी। तीन आंगळांनी पृथ्वी धरी। सर्गींचे ध्वज-स्तंभ[1] तुजेशीं। थरथरा कांपती ।।८ ।। सर्ग तुजें शिंवासन। सैम चरणीचें सोंपण। तूं देवदुताचो आधार आसून। न्हिदला तणाचेर ।।९ ।। जो देवदुतांक उल्लास दिता। तो बाळरुपी रडटा। जो उजो निर्मिता। तो शिंयांत कुडकुडटा ।।१० ।। जो पानां पालेवता रुखांचेर। कमळांनी फुलयी सरोवर। जो दिता फुलां शिरंगार। मैदानाक ।।११ ।। जो पक्षांक पांखांनी शिंगारी। तो जल्मलो विंगळो शरिरीं। जो सगल्यांचे कश्ट निवारी। तो सोंसता कश्ट ।।१२ ।। बाळा हे कश्ट सगले। आमकां पाप्यांक दिवचे। तुवें सदांच घेवचें। चांग सूख ।।१३ ।। अशी बाळक जेजुची स्तुती। मेरी जुजे दोगांय करी। त्या तिगां विणे ते रातीं। थंय नासलीं कोण ।।१४ ।। मागीर सर्गींचे देवदूत। भूंयीं उतरले असंख्य। आपलो राय रावता बाळपणांत। तें पळोवपाक ।।१५ ।। एकठांय मेळून ते देवदूत। सगले आनंद करतात। करती खोशेन तुस्त। करती गायन ।।१६ ।। जशें सुर्या उदेवा वेळारी। पांखरां क्रीडा करती रुखा वयरी। काव्य करती तरां तरां स्वरीं। फांत्या पारारी ।।१७ ।। तसो जेजू-सूर्य उदेलो। देवदुतांक आनंद जालो। गायनाचो रंग उधळलो। गोठ्यां भितर ।।१८ ।। गायन गावन ते देवदूत। थंय कितें उलयले आसत। तें आयका दिवन चित्त। गा श्रोत्यांनो तुमी ।।१९ ।। जय जय रे जय जेजु बाळका। नमन तुका विश्वतारका। नमन वैकुंठनायका। सर्गींच्या राया ।।२० ।। व्हडपण आनी स्वामित्वपण। तुज्या उत्तम पोवाड्यांत तल्लीन। वर्णु स्वाम्या तुजे गूण। किर्तीवंत बरे ।।२१ ।। स्वामी तूं गोठ्यांत ल्हानु। पूण वैकुंठसभेंत गहनु।[2] दावणेंत न्हिदला सानु। सर्गी प्रकाशता थोरू ।।२२ ।। तीनूय लोकीं तुका करी प्रणिपात[3]। दिमयो घालून समस्त। सर्गी संवसारीं यमकोंडांत। असंख्य लोक ।।२३ ।। तूं देवपणीं अनंतु अव्यक्तु। मनीसपणीं जालों व्यक्तु। तुजें रायपण रावता अखंडितु।



आकाशीं चंद्रु आसा मेरेन ।।२४ ।। पृथ्विचे शेवटा मेरेन । वैकुंठसभेचे पेल्यान । तूं राज्य करशी चलोवन । एकासत्रे खाला ।।२५ ।। जितलें सर्गीं संवसारीं रचलां । तितलेंय देवबापान तुका दिलां । तुज्या स्वामित्वा खाला दवरलां। आसा जितलें ।।२६ ।। तूं सैतानाक चोंय वटयां कोंडशी । तरसाद घेवन ताका धांवडायशी । पातक आनी मर्ण जिखशी । झूज करून ।।२७ ।। लिंबलोकांतु देवून । भक्तांची बंदी मोडून । व्हरशी शरण आयिल्ल्यां सोडून । अंधकुपांतले[४] ।।२८ ।। आनी पृथ्विच्या लोकांची । बंदी सोडयली पातकांची । वाट दाखयशी पुण्याची । मनशांक ।।२९ ।। तूं राजा सर्गीं संवसारीं । तुजी आवडिची राणी महासुंदरी । ती इगर्ज सभा[५] सचराचरीं । पातळटली ती ।।३० ।। ती तुजी मोगाची समरथा । किर्ते वर्णुं तिची सुंदरता । सर जायना तिची सोबा । मिरयता ती ।।३१ ।। ती भांगराचीं वस्त्रां न्हेसतली । बऱ्या शिंगारान मिरयतली । तुजे उजवे वशीन बसतली । राणी जावन ।।३२ ।। अरुण[६] उदेतां लालकमळ । जशें सोबिवंत बिंब निर्मळ । तशें दिसता मुखामळ । ते पतिव्रतेचें ।।३३ ।। मोतयांचे सर । गळ्यांत भांगरा हार । तांचें तेज वक्षस्थळाचेर । सोबता बरें ।।३४ ।। कानांतु वज्रां वेडी । मुदयो रत्नांच्यो हातीं । बाजुबंद कांकणां वाजती । घणघणीत ।।३५ ।। जेजु तिचो मोग करतलो । रुपा सुंदराय नियाळटलो । कडे धरून लायतलो । कपल कपलाक ।।३६ ।। तुजीं अपार लेकरां । जशीं गगनांतलीं नखेत्रां । तशीं मिरयतलीं संवसारा । असंख्य ।।३७ ।। जशे सागरांतले रेवेंचे कण । तशीं तीं आसतलीं असंख्य । पूण तीं बालकां उपजचिंनात । रक्तमांसाचीं।।३८ ।। सुखा संयोगा लागून । तीं उपजनात जल्म घेवन । एका परमेश्वरा पासून । उप[illegible] सगळें ।।३९ ।। आतां नवो जल्म आरंभता । तो पुरुशसंगा विरेत जाता । पवित्र आत्म्याचे कुर्पेन उपजता । संवसारीं ।।४० ।। तो जल्म ज्ञानस्नानाचो । आनी घट्ट मन भावनांचो । तो स्वाम्याचे कुर्पेचो । पवित्र जल्म ।।४१ ।। देवा त्या लेकुरांक । दिनाका संवसाराचें दायज । दी उत्तम दायज । सर्ग-भुवनाचें ।।४२ ।। वैकुंठांतली सुखप्राप्ती । आमकां देवदुतां सांगातीं । भोगपा पासत दी । तांकांय अखंडीत ।।४३ ।। अशे देवदूत आनंद करी । कांय लिंबलोकीं वती । जे भक्त थंय बंदी आसाती । तांकां सांगूंक वार्ता ।।४४ ।। म्हणटी आयज आनंद जालो । ख्रिस्त विश्वतारक जल्मलो । बेलें नगरांतु परगटलो । आमचो स्वामी ।।४५ ।।* आयकून तीं उतरां गोड । आदांव इवे दोगांक । म्हासूख जालें दोगांकय । आदीपुरूश स्त्रियेक ।।४६ ।। नोए[८] आनी अब्राहावो[९] थंय । मोयजेस आनी समस्त हेर । प्रवादी आनी म्हापुरूश भोवत । सुखावले ।।४७ ।। थंयच्या सगल्यां भक्तांक । आनंद धरना मनांत । स्वाम्याची स्तुती करून । केली प्रार्थना ।।४८ ।। एक देवदूत थंयसून । गेलो उर्देते वटेन । थंय तिगां रायांक भेटून । सांगली हीच वार्ता ।।४९ ।। आयकात गा रायांनो ज्ञानी । आनंद जालो त्रिभुवनीं । बाळकु जल्मला जुदेया स्थानीं । आयचे रातीं ।।५० ।। जार्कोबाचे[११] कुळये भितरी । एक नक्षत्र उदेलें संवसारीं । प्रकाशलें पृथ्वी माझारीं । वचूंया भेटूंक ।।५१ ।। आनी तेच

रातांच्या अवस्वरीं । बेलेंच्या दोंगरा वयरी । राखणे आसले वनां भितरी । मेंढरां राखताले ।।५२ ।। आयिल्ले जायते परदेशी लोक । चोरून व्हरीत म्हूण मेंढरांक । म्हूण गोपाळ ते रातीक । करताले राखण ।।५३ ।। एक देवदूत थंय आयलो । गवळ्यांचे दिश्टीक पडलो । स्वाम्याचो प्रकाशु आसलो । ताचे भोंवतणी ।।५४ ।। तें पळोवन राखणे समस्त । मनीं जाले भयाभीत । तेन्ना भोडवो[११] तांकां दिता समज । भिनाकात ।।५५ ।। जाका लागून उत्सव जातलो पृथ्वीचेर । ती सूखवार्ता तुमकां सांगन । तुमी आयकात लक्ष दिवन । बोल म्हजे ।।५६ ।। आयजु दाविदाच्या[१२] नगरांतु । तुमचो सारथी स्वामी ख्रिस्तु । तो विश्वतारकु संवसारांतु । आयलो जल्मा ।।५७ ।।* जरी चलले ताच्या दर्शना । तरी तुमकां दितां । एक खुणा । लुगड्यांत गुटलायला जाणा । बाळ दावणेंत मेळटलो ।।५८ ।। तो तुमकां मेळटलो ह्या वेळा । अशें भोडव्यान सांगलें गोपाळां । तेन्ना अवचीत गगनमंडळा । नवल जालें ।।५९ ।। आनिकय सर्गवासी अपार । एकठांय मेळून देवदुतांचे दळभार । स्वाम्याक करती नमस्कार । स्तवन करी।।६० ।। म्हण्टी सर्गांत नमस्कार परमेश्वराक । आनी संवसारी मनशाक । बरी वान्सा आनी सवस्तकाय । इत्सितात आमी ।।६१ ।। अशी देवदुतांची स्तुती । सांगल्या शुभवर्तमानकारांनी । आतां आमी देवदुतां सांगातीं । करुया स्तुती बाळा जेजुची ।।६२ ।। पूर्वेक सुर्या उदेता । थंयसून तो अस्तमते वता । ख्रिस्तु राया आंकुवारिच्या पुता । वेंगावया आमी ।।६३ ।।* विश्वकर्त्या स्वाम्यान । मनशा देह घेवन । आदिपुरसाचें वायट कर्म दारूण । फेडपाक ।।६४ ।। गाब्रियेलान जो सांगललो । आनी जुआंवात कुसव्यांत वळखल्लो । तो कुंवर परगटलो । जल्मून संवसारीं ।।६५ ।। जाच्या धर्मान सदां । पांखरांची भूक भागता । तो इल्लें दूद घेतां । आंगान वाडटा ।।६६ ।। सर्गींचे यजमान खोशी जातात । देवदूत देवा वंदितात । पृथ्वी वेल्या गोपाळांक जालो परगट । सर्वकर्तो गोपाळ ।।६७ ।। मागीर ते देवदूत थंयसून । सर्गीं गेले गवळ्यां कडल्यान । मागीर गोपाळ एकठांय जावन । किर्ते उलयतात ।।६८ ।। आतां वचुया बेलें नगराक । आमकां देवदुतांनी दिला जो संदेश । ताका पळोवपाक । वचुया आमी ।।६९ ।।* तेन्ना ते वेगीं वतात । कांय खीण बेल्यांत सोदतात । मागीर मोरिये जुजेक पळेतात । गोठ्यांत ।।७० ।। जें बाळक देवदुतान सांगिल्लें । तें प्रत्यक्ष दावणेंत देखलें । साश्टांग तांणी घालें । जय जय म्हणून ।।७१ ।।* मोरिये जुजेक हांकां पळोवन । अजाप जालें मनांत । तांकां कित्या आयल्यात हें सांगून । उक्तें केलें मन ।।७२ ।। आगा स्वाम्याचो देवदूत आयलो । सर्गांतल्यान भूंयीं देंवलो । तांणी आमकां सांगलो। खुणेचो वृत्तांतु ।।७३ ।। आनी आमकां हांगा धाडल्यात । अशें मोरिये जुजेक सांगतात । आनी आपल्या कळपांतुल्यान भेट । दिती बाळकाक ।।७४ ।। मनच्या प्रेमा थावन सकळ । आयिल्ले ते गोपाळ । भक्ती करून उतावीळ । दवरी चरणीं माथीं ।।७५ ।। धरनात आनंद दुकां दोळ्यांत । कंठ दाटलो उमाळ्यान । कांटो फुल्लो आंगार । सगल्यांच्या ।।७६ ।।* घामाचे थेंब दिसले । उलोवंक येना जालें ।

परते परते धरलें। पांय त्या बाळकाचे ।।७७ ।। मागीर आरंबलें स्तुती गायन। तें तुमकां आतां सांगन। जशें आमकां ध्यानस्त जन। सांगती तशें ।।७८ ।। म्हणटी कृपाळु बाळा जय जय। लावण्य ज्योती मुर्ती वरी तुजी सुंदराय। तळर्येतलें धर्वे फुल्ल। कमळ तूं फुल्ल धर्वे ।।७९ ।। तूं देवदुतां अन्न दिता। तुका नमस्कार करतां आतां। ह्या वन खोपटांत समरथा। तुका धाडलो कोणें ।।८० ।। आमी हीण लोकु गोपाळ। दाखोवपा तुजे चरणकमळ। तुवें ल्हान घर ह्या वेळार। सोदलें कित्या ।।८१ ।। आमी राखणे मोनजाती वरी। भक्तीविणें मूर्ख शरिरीं। पावंक तुज्या चरणां सरीं। मोनजाती मर्दी जल्मलो ।।८२ ।। वा राखणो जातलो आमचे वरीच। म्हणून तुवें आमकां राखण्यांक। हाडले हांगा आफोवन नेणा कोण ।।८३ ।। तरी कुर्पा करची आमचेरी। पावले आमी तुज्या चरणां सरीं। परते धाडूं नाका आतां तरी। अशें करूं नाका दातारा ।।८४ ।। आमी सगले जन। पावलें तुजें स्थान। सदां आसूं आमचें मन। तुज्या चरणीं ।।८५ ।। जर तूं मात्सो व्हड आसता। तर आमच्या राखण्यां सांगाता। राखणे जावन खेळटा। आसलो वनांत ।।८६ ।। आनी आमी राखणे-जन। तुका मानती राया समान। सेवा करती अनुदिन[१३]। बरे। भाशेन ।।८७ ।। करून कवड्यां[१४] हार। गळ्यांत घालतां शिरंगार। कानांत लायतात सुंदर। गुंजांचे झेले ।।८८ ।। वनफुलांच्यो माळो गुंथून। गळ्यां-हड्ड्यार सोडून। कपलाचेर बांदून। तेच परी तकलेर ।।८९ ।। बावळे घेवन हार्ती। वेंगायतले आसले आमी। तुका घालून मर्दीं। खेळटा आसले भोंवतणी ।।९० ।। पण तूं बाबा सुकुंवरा। तेजपुंजा दिनकरा[१५]। मेंढरां राखूं येवचिना सुंदरा। अशें दिसता आमकां ।।९१ ।। तुज्या मुखामळाची दिप्ती। दिसता जशे सुतेज मोर्ती। आनी तुजी मांय सुरूच ती। ती सामान्य न्ही ।।९२ ।। आनी तूं मेंढरां राखशी। ही बातमी अशी। सांगलिना देवदुतांनी। हे रार्ती ।।९३ ।। सत्य जो कोण जल्म घेवन। संवसारांत येतलो म्हणून। जें बरयल्लें प्रवाद्यांनी नि मोयजेसान। तो आसा तूंच राखपी ।।९४ ।। म्हणून तुजो उपकारू मानून आतां। मनोवया तुज्या जल्माची आनंदता। वाढ वेगीं तूं समरथा। दिशीं मार्शी ।।९५ ।। तूं तारकु आमचो। विश्वास इस्त्राएलिचो। सिद्धी पावय मनिंच्यो। इत्सा ।।९६ ।। जेन्ना देवदुतां सांगूनु। आमकां हाडले आफोवनु। तरी तूं तिनी जगाचें जिवनु। तार आमकां ।।९७ ।। अशे उलोवनु त्या समयारी। बेलेंचे राखणे गोठ्या भितरी। बालकाच्या चरणावयरी। दवरलें माथें ।।९८ ।। मागीर मोरिये जुजेक वंदिलें। बेलेंचे राखणे संतोशले। फुडें आज्ञा घेवन गेले। आपल्या कळपा कडे। ।९९ ।। जें देखललें दोळयां। तें इश्टां-जनां सगल्यां। सांगलें त्या वेळा। राखण्यांनी त्या ।।१०० ।।* जे जे ती वार्ता आयकती। ते ते विस्मय करती। थोर नवल म्हणटी। आयकलें आयज ।।१०१ ।।* मागीर एक ब्राह्मण उलयता। जेजु तारकाची जल्म-कथा। तिची अपुर्वताय मना दिता। भारी खोस ।।१०२ ।। म्हणून कोणेंच आमचे मदल्यान। कांयच केलो ना प्रस्न। आनी जें दिसऽ सद्दां विचारिन। सांगलें तुवें ।।१०३ ।। विचारचें लागना हाचे वयर। पूण परमेश्वराची बुद्द थोर। तिका आमी वंदून अपार। जातात विस्मीत ।।१०४ ।। तो रायांचो राय वैकुंठपती। देवदुतांचो स्वामी महाचक्रवर्ती। ल्हानविकायेन जल्मा आयलो क्षिती। म्हणून नवल व्हडलें ।।१०५ ।। तेन्ना पाद्रीन दिलें प्रतिउतर[१६]। देवा तुजी करणी अगोचर[१७]। अगम्य अपरिमीत तुजे पार[१८]। कळना कोणा ।।१०६ ।। पळेया राती समयारी। भोडव्यांनी जेरुसालेआ नगरीं। अथवा या बेलें पुरीं। प्रवेश केलोना ।१०७ ।। ह्या पुण्य जल्माची वार्ता। सांगलिना श्रेश्ठ महंता। आनी शास्त्र पुरुशां बुदवंतां। तशें हेरांकय ।।१०८ ।। आनी हेरोदी[१९] रायाक। सांगलेंना तेयाक। पूण ह्या बावड्या राखण्यांक। आफोवन हाडले ।।१०९ ।। दुर्बळांक सांगूंक शास्त्र-निती। म्हाका धाडलां क्षितीं ।। अशें इजायासान ग्रंथीं। बरयलां ।।११० ।। अशें जाण हें वर्तमान घडलें। राखण्यांक तें सांगलें। हाचे उपरान्त जालें। ते सांगन श्रोत्यांक ।।१११ ।।

### आठवो अवेस्वरु सोंपलो (होंवयो १११)

१. ध्वजाचे खांबे

२. गूढ

३. नमस्कार.

४. काळखाच्या कुपांतल्यान

५. कॅथलीक चर्च (सभा)

६. सुर्य

८. नोए (इं) (Noah) परमेश्वराचे आज्ञे प्रमाणें ताणें एक तारूं बांदलें.

९. (इं) Abraham हो नोएचो आठवो नातू. फुडें तो इस्त्राएला वंशाचो बापूय जालो

१०. मोयजेसाक (इं) Moses परमेश्वर घा आज्ञा दिता. तो परमेश्वराचें नेमशास्त्र इस्त्रांएलांक दिता.

४५ * मातेव २:१,५,६,८,१६;
लुका २:४,१५
जुआंव ७:४२

११. देवदूत

१२. दाविद (इं) David इशायाचो धाकटो पूत.

५७* लुका २:१०, १२

६३* लुका २:१३-१४

६७* लुका २:१५-२०

६९* लुका २:८,२०

७१* लुका २:१५-२०

७६* लुका ९:१५-२०

१३. दर दिसा

१४. शिंपयो

१५. सुर्या

१००* लुका २:८,२०

१०१* लुका २:२०

१६. परती जाप

१७. कोणाक कळना अशी.

१८. तुजे शिवाय

१९. हेरोद (इं) Herod; हाका ॲन्टिपस ह्या नांवानूय वळखतात. तो गालीलावाचेर राज्य करतालो. निश्पाप बालकांक जिवेशीं मारपी म्हूण तो कुप्रसिद्ध आसलो. हाणें उदेंते कडल्या राजांक जेजुची बातमी काडपाक सांगिल्ली. पूण ते ताका चुकोवन परते गेले म्हूण ताका तिडक आयली.





**दिसपटी**

**शांताराम आमोणकार**

**शोळावी खिश्त**

आज भौ. काशिनाथबाबां सरीन गेल्लों... तांणी जें किते सांगलें ताचें म्हाका मोटें व्हडलें दिसलेंना. पणून ज्या सरळपणान, गंभीरतेन प्रोफेसी केली तें तांचें अंतस्करणपूर्वक, कळकळीचें उलोवप चड मनाक लागलें... म्हाका तांचे भयणीक पळोवंक जाय आशिल्ली. 'बया' नांव तिचें. आनी काशिनाथबाब कवी 'बयाभाव'. जे भयणीक लागून तांणी काव्याची जोपासना केली ती अशी कोण तें पळोवपाची सहज इत्सा जाली. तांणीय रोखडीच मान्यताय दिली. पूण आन्याक लागून वचूंक पावंक ना.

# चल्ल्यात दीस!

ता. ४.११.१९४९

भौ. वसंतबाब आनी सौ. रवीचे आवयक नमस्कार,

एका म्हयन्यान हें दुसरें पत्र वता. तुमच्या पत्राची वीस-एक दीस वाट पळेली. एक म्हळें, आळसायेन जाप करूंक ना जातली, ना जाल्यार म्हज्या पत्राचें तुमकां वांकडें दिसून कांयच बरयन दिसलें ना जावये. कशेंय जावं, कितेंय जावं, हें दुसरें पत्र घालतां. कितेंय वांकडें दिसल्यार तुमी जाणटीं आसातूच. राग धरचीं नात अशी आशा! तुमगेर आसतना, हांगासून कळयतां म्हणून सांगिल्ल्यान, आनी मागीरच्या पत्रा वेल्यान तुमच्या मनांत म्हज्या संबंधान थोडोसो संशय येतलो. हो भिडेता आनी नकार दिवपाक कितेंय निमित्त सोदता अशें तुमकां दिसूं येता. शिवाय त्या पत्रांत तुमचे सगळ्यांचे उपकार मानिल्ल्यान आनी 'सदांच दीस सारके नासतात, हातान कितेंय मना विरुद्ध घडल्यार वांकडें धरूं नये' अशी मागणी केल्ल्यान तुमच्या संशयाक चडूच धाय मेळ्ळे बगर रावचिना. हांवें अजून पर्यंत कितेंच स्पश्टपणान बरोवंक ना हें खरें. पणून ना म्हणपाचें जाल्यार हांव येवजुचो नाशिल्लों. हय म्हणपा खातिरूच म्हाका येवजुचें पडटा आनी तें पसून म्हज्या मनांत फुडें शिकपाचें आसा म्हणून. म्हजी एकट्याची खबर जाल्यार म्हाका फाटीं फुडें पळोवपाक नाका आशिल्लें. पणून ही खबर दुसऱ्या मनशाचे सगळे जिणेची आशिल्ल्यान हांवें चार दीस जाप दिवपाक उशीर केल्यार ती म्हजी चूक कशी? तुमच्या प्रस्नाक तशीच सरळ जाप फावताली हें खरें आनी तीच जाता तितले बेगीन दिल्यार तुमीय मेकळीं जातलीं आशिल्लीं हें सगळें खरेंच. पूण परिस्थितीक लागून म्हाका रोखडेंच हय जावं ना म्हणपाक जमना. आयले बरबर नवी कूड, शिवाय हेर कामांक लागून आज फाल्यां करून म्हयनो गेलो. आतांच मातसो सुसेग मेळ्ळा आनी हें बरयतां.

म्हज्या शिकपा संबंधान अजून हांवें कांयच थारावंक ना. आनी अंदूंचें सगळें वर्स अशेंच वतलें काय दिसता. पणून हें म्हजें सदांचेंच. आसूं!

बरोवपाची मुखेल खबर म्हळ्यार, तुमचे चलये संबंधाची. म्हजी आनी म्हज्या घरची परिस्थिती तुमकां, चड करून, भौ. वसंतबाबाक तरी सांगूंक जाय अशें ना. म्हजे आवयचें आतां म्हातारपण म्हळ्यार जाता. तेन्ना, तुमचे चलयेक रांदपा वाडपा कडेन वावुरचें पडटलें. म्हज्यान कांय संवसाराच्यो बारीक सारीक भानगडी घेवन बसूंक नजो. आतां हांव सगळें करतां, घेवन बसतां, पणून तो म्हजो सभाव न्हय. तिसरें म्हळ्यार, म्हाका आज तरी थोडे पयशे मेळटात. फाल्यांचें कोणें सांगचें? तुमची चली अपुरबायेन वाडिल्ली. शिवाय, आज मनशाक वाचप, बरोवप, सिनेमा, नाटकां हातूंतलें कांय एक नासतना सगळो दीस घरसंवसाराचीं कामां करपांत सूख ना. तुमचे चलयेचो सभाव म्हाका खबर ना, आनी म्हणून हांव हें सगळें कांय एक लिपय नासतना बरयतां.

शालूचें हीत पळोवपाक तुमचे सारक्या समंजस आवय-बापायक हांवें कांय सांगपाक नाका. तरी आसतना रागार जावं नाकात बरयतां म्हणून जशें चल्यामनशाक आपल्या मना सारकी बायल मेळची अशें दिसता तशेंच चलयेकूय आपल्या मना सारको घोव मेळचो अशें दिसप योग्य. म्हणून, म्हाका तुमी विचारलां तशें, तुमचे चलयेकूय स्पश्ट विचारचें आनी ताणें जर मना पासून, तुमचे जावं म्हजे भिडेन न्हय, हय म्हणून सांगलें जाल्यार म्हाका ते प्रमाण, तुमकां फावता तेन्ना कळोवचें. तुमचे चलयेक वेलें सगलें मान्य आसत जाल्यार तुमी म्हगेल्या बापाय कडेन वचपाक हरकत ना. कारण ताणेंय, हांव एकादेवेळार तीन-चार वर्सां पावचोना म्हणून सांगलें तेन्ना विचारिल्लें, बेणकार आपणाक तुजे संबंधान विचारीत जाल्यार ताका कितें सांगप? म्हणटकच ह्यो सगळ्यो खबरी ताचे मार्फतीन जावंक जाय. हांव आतांचो भुरगो जालों तरी तो पयलींचो मनीस. तातूंत ताची समजूत, हांव ताका लिपोवन सगळें करतां म्हणून! इतलेच खातीर हें सगळें बरयतां.

हें सगळें म्हज्या सुवार्था खातीर बरोवंक ना. उपकार करून गैरसमज करून घेवचो न्हय! केन्ना केन्ना तकलेंत हजार गजाली आसतात. बरें वांकडें उतर कागदार पडटा.

हें पत्र शालूक दाखोवचें आनी तुमचें कितें ठरता तें निश्चीत करून

म्हाका, जावं बाबाक कळोवचें. बाबा कडल्यानूच सगळें जाल्लें बरें. पणून म्हाका हें कळपाक जाय इतलेच खातीर की ते प्रमाण म्हाका हांवें फुडें कितें करचें तें थारावंक जाय. पयसो नाशिल्ल्यान खंय पयलीं तारीर चडूंक जाय. तशें म्हजें. तुमचें म्हणणें म्हाका देझेंब्र जावं ते पयलींच समजलें जाल्यांर फुडल्या शिकपाचें थारावंक म्हाका ज्यानेर, फेब्रेर, मार्स अशे तीन म्हयने मेळटात. नोकरीय सोडटलों म्हळ्यार आनीक खंयूय आदमिसांव मेळोवपाक म्हयनोभर पयलींच येवजून दवरूंक जाय. नाजाल्यार तुमी केन्नाय कळयल्यार हरकत नाशिल्ली. तातूंत म्हगेलें आतां म्हातारपणांतलें शिकप. म्हणून मातशें जाता तितले बेगीन कळोवचें ही मागणी. अंदूंचें वर्स येवजुपांतूच फुकट गेलें. फुडलें वचूं नये अशें म्हणून तुमकां थोडी ताकीद करची पडटा ताका म्हजो इलाज ना.

हें पत्र ऑफिसांत बसून बरयलां हें ध्यानांत धरून थंडपणान वाचून पळोवचें आनी तुमच्या घरांतल्या मनशां शिवाय कोणाकूच कळोवचें न्हय.

इतली पर्यंत खबर आयल्या. फुडें कितेंय जावं. म्हज्या कामाक रोखडोच आरंभ करप.

**६.११.१९४९**

आज भौ. काशिनाथबाबां सरीन गेल्लों. तांणी सांगलें, "म्हाका कवी, चित्रावपी हांची पारख करपाची नदर आसा, आनी तुमी खरेले चित्रकार हें हांव सांगतां. तुमच्या चित्रांक जीव आसा. अजून तुमकां लोकांलें एक पसून पत्र येवंक ना, चित्रां काडपाची मागणी करून? तुमी सामान्य मनीस न्हय. म्हजे जे आज पन्नास वर्सांचेर विचार आसात, म्हाका जें अजून समजूंक ना तें तुमकां पंचवीस वर्सांचेर समजलां. तुमच्या उलोवपांत खूब खरें आसता. तोखणाय म्हणून बेठोच सांगना. तेन्ना, एक दोन गजाली तुमकां सांगतां, बऱ्यो करून आयकात. हांव दोन अर्थांनी उलयना. एकाच अर्थान उलयतां... तुमी गांधी भशेन म्हयन्यांतल्यान एकदां सगळो दीस उलय नासतना रावप. आनी दुसरें म्हळ्यार, दिसान दीस जिणेंत जें कितें घडटा तें तशाक तशें बरोवन दवरप. तुमी हेर मनीस न्हय."

तांणी जें कितें सांगलें ताचें म्हाका मोटें व्हडलें दिसलेंना. पणून ज्या सरळपणान, गंभीरतेन प्रोफेसी केली तें तांचें अंतस्करणपूर्वक, कळकळीचें उलोवप चड मनाक लागलें (वांकड्या अर्थान न्हय). मागीर तांणी च्या हाडूंक लायली.

म्हाका तांचे भयणीक पळोवंक जाय आशिल्ली. 'बया' नांव तिचें. आनी काशिनाथबाब कवी 'बयाभाव'. जे भयणीक लागून तांणी काव्याची जोपासना केली ती अशी कोण तें पळोवपाची सहज इत्सा जाली. तांणीय रोखडीच मान्यताय दिली. पूण आन्याक लागून वचूंक पावंक ना.

**११.११.१९४९**

भौ. काशिनाथबाबांगेर जेवन तांगेले भयणीक पळेली. तीच वाडपाक आयिल्ली. शिवाय रांदिल्लें जावये तिणेंच. मोटोसो परिणाम जालो ना. सादी पयलींची बायल-मनीस.

आजूच भौ. बेणकारालें पत्र आयलां. म्हजें पयलें पत्र येवचे पयलींच ताणें सगळी खबर बाबाक सांगली आनी बाबान ते प्रमाण म्हाका पत्र घालतां म्हूण सांगला खंय. तो फुडल्या पत्रांत सविस्तर बरयतलो खंय! नाटक खंय पर्यंत रंगता तें पळोवंक जाय.

आतां आळशीपण आनी बाकीच्यो सगळ्यो भानगडी पुरो जाल्यो. सांजवेळचो नेमान पै सरीन वतां. दुसरें तोंड घेतलां करूंक. पळोवया खंय पावता तें! फाल्यांच्यान चित्रावपाच्या वावराक हात घालूंक जाय. स म्हयन्यां वयर दीस गेले. घरसून आयल्यार देड म्हयनो जातलो. तरी मात पसून हात लावंक ना कुस्कुटाक. सगळो दीस तकलेंत बेणकाराली चली आनी ऑफीस. गुण्यालें एक पाणयार घालप. खर्च उणो करप. Still life, animal and figure drawing and painting, composition and design सगळें करपाक घेवप. मात सुद्धां वेळ वगडाय नासतना आज स वर्सांनी चित्रावपाक लागप. मना पसून आनी मेकळेपणान जाता तितलें काम करप.

**१२.११.१९४९**

फाल्यांच्यान चित्रावपाक आरंभ. आजूच एक सुंदर पुस्तक हाडलां नायकां कडल्यान. तांचे कडेन दर शेनवारा वचून पंदरा दिसांनी एक पुस्तक मेळोवपाची वेवस्था केल्या. तें शक्य तितलें उतरावन काडपाचें थारायलां.

**१५.११.१९४९**

आज बाबाचें पत्र आयलें. ताका सगळी खबर बरोवन पत्र घालें. म्हज्या मनांतली मुख्य खबर बरोवंक ना. ते चलयेच्या मनांत आसल्यार तरी मान्यता दिवपाचें निश्चीत केलें. फाल्यां ते चलयेक पत्र घालप.

शिकपाच्या कामाक लागलों! अजून प्रकृतीक लागून सुरळीत चलना म्हळ्यार जाता. दुसरी खबर म्हळ्यार, सारस्वत बँकेंत पन्नास रुपया भरून खातें उकतें केलें.

**१७.११.१९४९**

सांजचो प्रदर्शनाक वचून आयलों. प्रो. Langwamerचें प्रदर्शन छान आशिल्लें. सर्वसाधारण येवरोपी चित्रावप बरें आशिल्लें. ताका येवरोपी रंगकाम बरें जमता. तांचो कातीचो रंग वेगळो आनी आमचो वेगळो जाता. आमगेल्यो landscapes, आमगेलो लोक, सगळ्यांचे रंगूच वेगळे. ताका ते मात पसून जमनात. तागेलो Peter म्हणून पोर्ट्रेट सुंदर जाल्लो. त्या भुरग्याचे रंग म्हळ्यार सामके Luminous आशिल्ले. एक पोर्ट्रेट तर सामको हांवेंच केल्लो काय दिसतालो. मागीर क्रिस्तांवांचें Vaticanoचें प्रदर्शन पळेलें.

आज खूब दिसांनी म्हज्यांतलो कलावंत जागो जालो. नोकरी सोडून फकत चित्रकलेंत दीस घालचे अशें केन्ना केन्नाय म्हाका दिसता. आज Langwamerचीं चित्रां पळोवन तेंच दिसलें. खरेंच, सगळो दीस चित्रावपाक मेळ्ळ्यार, मना सारकें वावुरपाक मेळ्ळ्यार खात्रीन नांव काडीन आशिल्लों. मना सारकें काम करपाक वेळ मेळऽ नाशिल्ल्यान, भोंवतणचीं चित्रां पळोवन दिसता, ह्या लोकां परस केन्नाय बरीं चित्रां काडीन आशिल्लों. शालू सारकी बायल मेळ्ळ्यार केन्नाय चित्रकलेक वाव मेळटलो. तातूंत ताचो सभाव पसून बाकीच्या सामान्य चलयां परस बरो आसा. ताच्यांत जीव आसा. मनीसपण आसा. माकन न्हय तें. लिकलिकता, पणून सारको

अणभव आयले बगर कंवची काय वस्त्र तें समजुपाक मार्ग ना. खूबदां 'दुरून डोंगर साजरे' म्हणटात तश्योच खूब खबरी आसात. *ह्या क्रिस्तॉफा*'त ताका एक सपन पडटा आनी मागीर ताका खुब्ब रंग रंगयाळें नुस्तें दिश्टी पडटा. तें धरपाक ताचे हात शिंवशिंवतात. तो हात घालता, पणून धरता तें नुस्तें हातांत काडपाचेंच न्हय. परतें सोडल्यार पयलीं सारकेंच रंगीत! तशें म्हजेय बाबतींत, ह्या संवसारांतल्या खुब्ब मनशांचे बाबतींत घडटा. संवसाराचो खेळ तो. कशेंय जायना, पणून आज म्हाका दिसता, ते चलयेंत खरेलेंच सौंदर्य आसा. रुपाचेंच न्हय, पणून गुणांचेंय. आनी म्हणुनूच म्हजे सारकिल्या सभावाच्या आनी परिस्थितीच्या मनशान ते चलयेचें सूख भंगोवचें म्हळ्यार मना पसून जिवार येता. म्हज्या हातान तिचें काडयेचें नुकसान जावचें न्हय अशें बुद्दीक दिसता. पणून दुसरे वेटेन मनाक दिसता, ते चलयेक थोडे त्रास पडलेय जाल्यार तिची खरेली किंमत, तिच्या रुपाचें आनी गुणांचें मोल दुसऱ्या खंयच्याच मनशाक समजुंचेंना. कोणूय तिच्या सौंदर्याक भुलत, तिच्या वाचपाक, ती आवयबापायची एकलीच चली, हे गजालीक, तिचे हुशारेक भुलत... पणून तिचें स्वत्व, तिचो आत्मो, ताचें सौंदर्य मात कोणेंच वळखूंक ना. तें कोणूच वळखुचो ना. हो सगळो भ्रम जायत. पणून म्हाका मना पसून अशें दिसता. ताची चिकित्सा करची, तातूंतली फाल्सिदाद उकती करून पळोवची अशें मात पसून दिसना. घटकेंत दिसता, सगळो सुवार्थ, तिचो मोग न्हय. तशें पळोवंक गेल्यार, म्हाका मेळ्ळ्या ते परिस्थितींत हांव कसलोच सुवार्थ जमयना. कसलीच क्षुद्र कल्पना म्हज्या मनांत पसून येवंक ना. फाल्यां येवं. आज ना. निव्वळ ते चलये खातीर म्हाका तिचे कडेन कसलीच आडखळ करी नासतना लग्न जावपाची इत्सा. एका ण्णाणाची पसून पर्वा ना. आज पर्यंत जी म्हजी वागणूक आसा ती खरेलीच मनशाक सोबऽ सारकीच आसा. इतलें सगळें आसून पसून म्हाका म्हजी जीण सुखान वचत अशें दिसना. म्हज्या सभावाक लागून हें सगळें म्हाका दिसता. म्हाकाच आज मेरेन हांव चड भियेतां. ते चलयेक न्हय!

चड करून नोकरी सोडपाचें मनांत आसा. फाटल्या वर्सा सावन भोवन भोवन अशें दिसपाक लागलां.

**२३.११.१९४९**

बाबाक पत्र घाल्यार आठ दीस जाले. ताची जाप कशे तरेची येत हाचो विचार आनी दुगदूग तकलेंत. म्हणचे, बाबान ना म्हळें म्हणून हांव मात पसून फाटीं सरपाचेर ना. एकदां थारायलें तें थारायलें. मागीर लोक किर्तेय म्हणिनात! फक्कत ते चलयेक नाका जाल्यार मात मागीर म्हजें कुस्कूट म्हणणें ना!

फाल्यां सकाळच्यान म्हगेल्या पेंटींगच्या कार्यक्रमाक सुरवात. दर आठ दिसांनी कितलें काम हातान जालें तें मात बरोवन दवरप. संवसाराच्या कसल्याच राटावळींनी पडप ना. सारस्वत बँकेंत पयशे दवरपाचो फार्स केला. एक हजार रुपया जमले बगर नोकरी सोडपांत अर्थ दिसना. म्हाका कश्टांचो भंय दिसना, लोकांचोय भंय ना. भंय फक्कत म्हजो स्वतःचोच म्हळ्यार जाता. दुसऱ्या कोणाय परस म्हज्याच सभावाक हांव चड भियेतां. कारण, म्हज्यांत निष्ठा ना. सगळें करचेंशें दिसता, घटकेन नाकाशें दिसता. 'एकूच पणून तुपान' म्हणटात तातूंतलो हांव न्हय! तरी पणून नेटान सगळें फुडें व्हरतलों. क्लास-बीस सगळें फुडल्या वर्सा. धा जून मेरेन म्हज्यांतली ताकद म्हाका पारखूंक जाय. मागीर नोकरी सोडची काय ना तें पळोवपाचें. आतां दर एक गजाल शितिदान केल्यारूच फुडें शिकपाक मेळचेली आशा. नाजाल्यार मागीर सगळोच घोळ. दुसऱ्याची, मागीर तो कोणूय जायना, तोंड धांपून खबर घेवपाक हातांत काम. एड दिवन देड घेवपाचो धंदो सोडलो. दुसऱ्यागेर वचप नाका. आपलें काम आनी आपूण. सदांच सांजचें शिल्पकाम आनी सकाळचें अर्दें वर वाचप. देड वर काम. रातचें एक वर वाचप, एक वर काम. शेनवार आयतार landscape, library जावं life. फाल्यांच्यान कामाक आरंभ!

आयतारा दिसा नाजाल्यार शेनवारा दिसा तरेकतरांचे रंगी कुडके आनी बाकीचें सामान एकलोच वचून घेवन येवप. मागीर उरलें म्हणटात तें एक ब्रश घेवपाचें. प्रयोग तरी करून पळोवप. It is worth trying!

**२८.११.१९४९**

एक तारकेच्यान सांजच्या प्रोग्रामाक सुरवात. पैक रांदचें पडटा आनी हांव नवो जाल्ल्यान ताची म्हाका मुळा पसून दाखोवपा खातीर गरज लागता. ताका कामां आशिल्ल्यान हो म्हयनो फुकट गेलो म्हळ्यार जाता. दोनूच आठवडे मेळ्ळे. तांतले तातूंत तेंच व्हड. तो न्हय जाल्यार तेंय मेळचें नाशिल्लें.

...स्वतःक सुधरुपाचें थोडें थोडें चल्लां. दिसता, संवसाराक शिकोवचे परस आपले आपल्याक शिकयल्लो बरो. लोकां पसून कुशीक सरून. रॉलांचे भाशेंत, 'the supreme virtue of silence' आंगांत हाडूंक जाय. फाटल्या वर्सांनी ओग्गी रावपांत म्हाका सूख दिसतालें. आज उलोवप, बडबडप हीच म्हजी गरज जाल्या. झगडटां, पणून येस येना!

**२९.११.१९४९**

फाटली डायरी वाचून हांसूंक आयलें. त्या वेळार आनी आज! केदो फरक पडलो! बरो काय वांकडो? सांगपाक नजो. मनशाचो समज आसता, आपूण दिसान दीस शाणो जायत वतां म्हणून. खरेंय आसत तें!

डायरी सगळी जशाक तशी बरोवन काडूंक जाय म्हाका. फाल्यांच्यान एक अर्दें वर हे खातीर घालप. म्हणटकच मागीर म्हज्या मनांतली मुळची कल्पना खंय पावल्या ताचो अदमास मेळटलो.

मातसो हुस्क्या मेकळो जावन मागीर पयलींचे निष्ठेन कामाक लागप. आज एक थारावन उडयलें, बेणकाराचे चलयेचे बाबतींत किर्तें करप तें. बाबाचें पत्र कशें येता तें पळोवंक जाय! पणून ते पयलींच म्हाका दिसता तें हांव बरोवन दवरतां :

हे पयलींच हें पत्र घालूंक जाय आशिल्लें आनी पत्राय परस समक्ष तुजे कडेन उलोवंक मेळ्ळ्यार बरें जातलें आशिल्लें. कांय कारणांक लागून तें जमलेंना म्हणून तुज्या बापायच्या पत्त्यार तुका सरळ पत्र धाडपाचें थारायलां. मोटोसो प्रस्ताव करी नासतना सगळी गजाल बरयतां. बरें वांकडें उतर गेल्यार व्हड मनान क्षमा करची.

तुज्या आवय-बापायची इत्सा, तुजें लग्न म्हजे कडेन जावचें.

म्हज्या बापाय कडेनूय ही खबर गेल्या बी सगळ्यो खबरी तुका खबर आसूंक जाय. म्हर्जी पत्रांय तुवें वाचल्यांत जातलीं. आतां प्रस्न उरलो तो म्हजो. आनी तेंच सकयल बरयतां. १७.१०.१९४९ मेरेन म्हजें कांय ठरूंक नाशिल्लें. ते मागीर मात तुका पत्र बरोवचें अशें हांवें ठरोवन उडयलें.

म्हजी परिस्थिती मातशी विचित्र आसा. ती वायट आसा अशें म्हजें म्हणणें ना. जें आसा तातूंत हांव सुखी आसां. तुका हांव वळखतां. पणून ती वळख म्हळ्यार तुमगेर हांव चार खेपो येवन गेलां आनी तुका पळेलां, इतलीच. हे परस चड तूंय म्हाका वळखना आनी तुजो सभाव, आवडी निवडी हांचीय म्हाका कांयच कल्पना ना. म्हणून तर ह्या पत्राची गरज... नाजाल्यार रोखडेंच उतर दिवन मेकळो जावपाक जातालें. म्हजे बाबतींत म्हज्यान जाय तें करूंक जाता. नफा, नुकसान म्हाकाच भोगचें पडटलें, इतलेंच. पणून हातूंत म्हजे परस तुजे सारके आवय-बापायचे अपुरबायेंत वाडिल्ले चलयेचो प्रस्न म्हणून हाचेर चार दीस येवजून पळोवप चड बरें अशें दिसलें. तुमी सगळ्यांनी हाचो अर्थ वेगळोच केला जातलो : तूं अशिक्षीत, जावं तुज्यांत कितेंय उणें आसा, म्हणून, वा, कोणाय पयशेकारालो जांवय जावन ताचो फायदो घेवचो अशा हेतान आनी बेतान हांवें चार दिसांचें निमित्त करूंक ना. म्हाका जर ना म्हणपाचें आशिल्लें जाल्यार तो सरळ मार्ग आशिल्लो.

तुजे कडेन लग्न जावपाक म्हाका कसलीच हरकत दिसना. पणून एके अटीर. तुका मना पसून हें लग्न पसंत आसा जाल्यारूच. येदीच ही अट. कसलीच मुरवत धरी नासतना उत्तर बरोवचें. तुजेर वायटपण घाली नासतना सगळें मेकळें करपाची वेवस्था जातली. ते खातीर भियेवं नाका. ते भायर तुमचे कडेन पयसो आसा, तुकां रूप आसा, गूण आसात. संवसारांत म्हजे परस बरे मनीस तुमकां जाय तितले मेळटले. तुमकां अडोवन दाखोवचें म्हणून हें बरयना. तरी पणून हें बरोवपाचें धाडस मात करतां. म्हजी प्रकृतीय व्हडलीशी न्हय. पयसो, शिक्षण, प्रतिष्ठा सगळें तुका खबर आसा. ज्या मार्गान हांव वतां, आनी तो म्हज्यान बदलूं नजो, त्या मार्गान म्हजो फुडार सदां अनिश्चीत उरतलो. पयसो म्हळ्यार सूख अशेंय म्हाका आज दिसना. अशे परिस्थितींत तुजे सारके चलयेक कसलें सूख मेळटलें, तें तूंच पळे! तूं यो आनी म्हजे बरबर हाल काड अशें म्हज्यान तरी म्हणूंक नजो. तें म्हाका शक्य ना. आतां हें सगळें समजून आनी जाणून जर तूं येता जाल्यार म्हजी कसलीच हरकत ना. मनशाक त्रास काडपाक मनाचें तरी समाधान मेळपाक जाय! अशेय परिस्थितींत सूख मानपी लोक आसात. पणून ते साप्प थोडे!

हांव व्हडलें कांय सोदिना, कारण म्हजे कडेन कसलेंच व्हडपण ना. कसलेय बरे वांकडे, आसा तशे परिस्थितींत थोड्याश्या समंजसपणान आनी सहानुभूतीन चलपी अशे, साद्या आनी सरळ सभावाचे चलयेचीच म्हजे सारकेल्याक गरज. कसलोच गैरसमज करून घेना आसतना थंडपणान येवजून म्हाका तुजें मत कळय.

३०.११.१९४९

आज ऑफिसांतल्या तेंडुलकाराक नोकरे वेल्यान काडलो. पांचशीं रुपया देणें आशिल्ल्यान मन मातशें भयभीत जालें. नोकरी गेली जाल्यार बरें जातलें. यो दिसा भर पोटा खंय, तसलें आयुश्य काडटां हांव सध्या. तातूंतलो तरी मेकळो जातलों. वायट परिस्थिती, हाल अपेश्टा भोगले शिवाय हांव मनीस जावचोंना. फाटल्या दिसांनी त्रास काडचे पडटाले, धांव धपटी काडटालों, तरी मातशें हातांनी कितेंय जातालें. आज धा म्हयने जाले जाल्यार कांय एक करिना. खातां, जेवतां, भोंवतां.

फाल्यांच्यान कामाक लागपाचें म्हणटां. सदांच थारायतां आनी केन्नाच करिना. चल्ल्यात दीस!



*(पान १३ वयल्यान)*

फाटल्यान फुडल्यान आशिल्ल्या ल्हान व्हड गाडयांचो वेंटाळो जसो रस्त्याक घट जायत वतालो तसो ब्लॉकूय दाट जायत आसलो.

सगल्या देवांक उलो मारले उपरांत निमाणो विश्वास आसलो तो दोतोराचो. कारण तो प्रत्यक्ष मुखार उबो आसलो. तोच विश्वास छायाची आई आतां दोतोराचेर दवरून आसली. "कितें जालां दोतोर तेका? तेजी पार्त कित्याक लागोन आडकल्या?" रडतूच ती दोतोराक प्रस्न विचारूंक लागली. कितें तरी वायट घडटलें म्हणपाचो भंय त्या खिणाक तिच्या उतरांनी जाणवतालो. पूण तो विचार ती अजून आपल्या मनांत हाडपाक तयार नासली. "भुरगें पोटांत घुंवून घुंवून वारेक घुसपलां. ताका वाट मेळना. आतां सिझेरियन केले बगर उपाय ना. ऑपरेशन केले बगर दोगांयकूय वांटावप शक्य ना..." दोतोर गंभीर जावन उलयलो.

दोतोरालीं उतरां छायाचे आईक आनी फाटल्यान कान लावन बसलेल्या गौतमाक शिरंतरांतल्यान हालोवन गेल्लीं. तीं दोगांय एकामेकांक दुकांनी भरलेल्या दोळ्यांनी एके व्हड खंतीन पळोवपाक लागलीं. आनी भायर पळयत भितरले भितर हुडको भरून रडपाक लागलीं.

१०८य त्या दिसा हेर ट्रकां सारकीच गोगोलगायेचे गतीन चलपाक लागलेली. कोणाचोय जीव वांटावपाक वाऱ्याचे गतीन धांवपी १०८ त्या दिसाक मरण व्हरपाचे गाडये सारकी कोणाल्या इंतेराक वयता काय दिसताली.

फुर्डे ब्लॉक मातसो सदळ जाता तो पळोवन आतां सगल्या ट्रकांच्या इंजिनांची घरघर वाडपाक लागलेली.

पूण छायाची दूख आतां निमाणी तेंगशी हुंपपाक लागलेली. ताचो आवाजूय बसपाक लागलेलो, आंगांतलें त्राण वचपाक लागलेलें. पोटांतलो कंवळो गर्भ जल्म आनी मरण हांचें मदीं ब्लॉक जाल्लो. कोणें तरी वारी सयत भुरग्याक मुळा सकट हुमटावन काडचो अशें त्या खिणाक ताका जाल्लें. घडकेक आईन ताची तकली अळंग आपले मांडयेर दवरली. तेन्ना सगले प्राण एकठांय हाडून 'आई गेऽऽऽऽऽ....!" म्हणून पुराय आंग एक सारकें ताणून, ताळो सर्रांटून मारलेली तागेली ती निमाणी आरड आशिल्ली. १०८त आशिल्ल्या सगल्यांचे कान मन चिरीत गेल्ली छायाची ती निमाणी आरड सुद्दां ट्रकांच्या इंजिनांच्या घरघरांत खंय तरी सासणाची ब्लॉक जावन गेल्ली.



# येवजणो अमेरिकेंतल्या भारतीयांच्या प्रस्नांच्यो, फार्मसी शिक्षणाच्यो...

**मधुसूदन जोशी**

आयतारा सकाळीं हांवें शिकागोंतल्या 'अमेरिकन अॅसोशिएशन ऑफ फार्मसी कॉलेजीस'च्या वर्सुकी संमेलनाक हाजीर रावपाचें थारायल्लें. हें चार दिसांचें संमेलन शेरटॉन हॉटेलांत जावपाचें आशिल्लें. थंय एकूच दीस रावपाचें, प्रदर्शन पळोवपाचें अशें हांवें पयलींच थारायल्लें. अपर्णागेरच्यान सकाळीं भायर सरपाचें केल्लें. शिकागोंतली एक रात हॉटेलांत सारपाची म्हज्या नशिबांत आशिल्ली. अपर्णान सकाळीं खावपाक फोडणी फोव केल्ले. जिबेर रूच बरीच खेळपाक लागिल्ली. परतुपाचोय दीस लागीं पाविल्ल्यान मनांतल्यो सगळ्यो निर्शेण्यो गळपाक लागिल्ल्यो. सकाळीं णवांक योगेश म्हाका पावोवपाक रेल्वे स्टेशनार आयलो. आयतार हांवें तांचे तांकां मेकळो सोडपाचें थारायल्लें. सोमारा सकाळीं तांचो नवो आठवडो सदांचे भाशेन सुरू जावचो, हांवें सोयरो म्हण रावचें न्हय, अशें म्हाका दिसलें.



कोडू कसाय गोड गुळी

ट्रेनींत बसतकीच भारतांतल्यान अमेरिकेक येवपी लोकांच्या प्रस्नांचेर हांव येवजूंक लागलो. अपर्णाचो पूत आर्यन तीन म्हयन्यांचो जायत आयिल्लो. ताचे आजयेचो स म्हयन्यांचो व्हिजा सोंपपाक पाविल्लो. चवथी पयलीं ती भारतांत परतुपाची आशिल्ली. ल्हान भुरग्याक क्रॅशांत दवरप ना जाल्यार घरा पळोवपाक कोण तरी दवरप. अपर्णा आनी योगेश कामाक वताली. अपर्णान आर्यनाक सांबाळपाक एक 'नॅनी' सोदून काडिल्ली. ताच्या कामाचें स्वरूप तीन दीस ऑफीस, दोन दीस घरा कडल्यान काम अशें आशिल्लें. म्हळ्यार, आठवड्यांत चार दीस घरा, तीन दीस कामाक. तंत्रगिन्यान वाडटा तसो ताचो फायदोय जाता. आर्यन पाळण्यांत आशिल्लो तरी ताचे कुडींतलो सॅन्सर ताची 'कुसकूस' भायर बसपाचे कुडींत पावयतालो. लक्ष दवरपाक मातशें सोंपें. ल्हान भुरगें उठत म्हण आवयक सदां हुस्को आसता. ह्या सॅन्सरान तो हुस्को उणो करपाक हातभार लायिल्लो.

भुरगें तीन वर्सांचें जाय मेरेन व्हडलोसो प्रस्न येना. ताची शाळा सुरू जातकच वा सामाजीकरण जावंक लागतकच मागीर 'आमी' आनी 'ते' हे लडायेक सुरवात जाता. अमेरिकेंत शिक्षण बरें, सोयी बऱ्यो. पूण भुरगें हाता भायर केन्ना वचत हाचो नेम ना! 'जीन्स' टिकून उरचीं हे धारणेंतल्यान सैमान जैवीक नेम तयार केल्यात. आपणाली संस्कृताय टिकून उरची म्हण मनशान नैतीक मुल्यां मांडल्यांत. नितीमुल्यांचे बुन्यादीचे फातर केन्ना कोणाक पळोवंक मेळनात. ते बुन्यादीर आदारिल्ले गडगे आनी ताचे फातर मात नदरेंत्त भरतात. आडो मनशा सारको नश्वरूच. ताचे फातर लडबडटात. तो कोंसळटा तेन्नाय दुःख जावं येता. पूण भर दर्यांत आडो उबारपाचें सपन म्हळ्यार अमेरिकेंत रावून भारतीयपण सांबाळप. ही धडपड थंयचे भारतीय करतात. पूण ते धडपडीची तोखणाय दिसपा जाग्यार म्हाका इल्ली काकुळट दिसली. आमची भारतीय संस्कृताय हजारांनी वर्सांच्या संघर्शांत जिणेचीं मुल्यां, तत्वां सांबाळून आसा. हाचें गुपीत कितें? तर

## धावी खिस्त

हांगची माती आनी ते मातयेंत पातळिल्लीं संस्कृतीरुखाचीं पाळांमुळां. होच तिचो आदार. अमेरिकेच्या व्हाजांत भारतीयांच्या भुरग्यांचें 'बॉन्साय' जायना मूं? अपर्णा कडेन उलयतना हो प्रस्न आयिल्लो. हांवें म्हळें, तू तुज्या पुताक वळण लायशीत. फुडले पिळगेचें कितें? ती सत्तर टक्के अमेरिकन आसतली. उपरांत? म्हज्या प्रस्नाक ताचे कडेन न्हय, कोणाच कडेन सारकी जाप आसची ना! कारण, काल प्रवाह आडावप शक्य ना! पूण तरी लेगीत अमेरिकेचे वेगान धांवपी जिणे प्रवाहांत आंग गळसून न्हय तर हातपांय बडोवन आपणाल्या ध्येया सरीं पेंवत वचपी भारतीय अमेरिकनांक म्हजो सलाम!

गाडी शिकागोंतल्या सेंट्रल युनियनांत पावली. म्हज्या विचारांची सांखळ तुटली. बॅग सांबाळीत हांव स्टेशना भायर पावलों. बरेंशें हॉटेल सोदपाक लागलों. हांगा हॉटेल चेक इन सकाळीं णवांक, चेक आवट सकाळीं इकरांक. कोंत एके रातीचें. इकरा वरां जाल्लीं. ट्रॅव्हल लॉजांत म्हाका फावऽ सारकी सुवात मेळिल्ल्यान हांवें रूम घेतलो. म्हज्या पासपोर्टाची झेरॉक्स घेवन म्हाका 'ई' कार्ड दिलें. रुमांत भितर सरून भितल्ले सोयीचो हांवें अदमास घेतलो. बाथरुमांत बरो टब आशिल्लो. हून उदकाचो शेक घेवन न्हाण घेवपा खातीर टबबाथाचो नळ सुरू केलो. टबांत बी हांव बाथ घेतां तेन्ना केरी भुतखांबार म्हशी चरपाक सोडून पावसांत कोणी भितर मारिल्ल्यो बुचकळ्यो याद जातात.

न्हावन धुवन जातकीच जिवाक बरें दिसलें. सहज म्हण हांतरुणार आड पडलों. न्हीद लागली. दनपारां देडांक जाग आयली. पोटाक भूक लागिल्ली. सकयल्या थाय रेस्टॉरंटांत वचून व्हेजिटेबल डिलायट आनी उकड्या तांदळांचें शीत जेवलों. सांजे शेरेटॉनांत वचून संमेलनांतलें प्रदर्शन पळोवपाचें हांवें थारायल्लें.

अमेरिकेंत फार्मसी शिक्षणाची तरा मातशी वेगळी. हांगा पांच वर्सांचो फार्मडी अभ्यासक्रम. सरकाराचें शिक्षणाचेर नियंत्रण उणें. हाका लागून 'सरकार मान्य' ह्या भारतांतल्या उतरा जाग्यार खाजगी मानांकनाक भोव म्हत्व. 'ॲक्रिडिटेड बाय...' ह्या उतराक चड व्हालोर. अमेरिकेंत सुमार शंबरां वयर फार्मसी महाविद्यालयां आसात. हीं सगळीं एएसीपीचीं वांगडी. वर्सुकी संमेलनांत फार्मसी शिक्षणाची दिका थारायतात. खंयचेच बदल भासाभास करून थारायतात. थंयचें फार्मसी शिक्षण पिडेस्तांक चड लागीं वता. आमचें भारतांतलें शिक्षण 'वखदां' कडेन चड ओढटा. फुडारांत हातूंत बदल जातलो अशें दिसता. बदलांक येवकार दितना इल्ली सादुरताय बाळगुपाची गरज आसा अशें खंय तरी दिसलें. कारण, अमेरिकेंत फार्मडी सुरू जावन फकत पाव शेंकडो जाला. ह्या बदलाचो दुष्परिणाम अमेरिका भोगता. बी.एस्, एम्.एस्, पी.एच्.डी. हें शिक्षण उणें जाल्ल्यान वखदांच्या मळार संशोधन कोण करतलो? तांचे निर्मणेक कोण मेळटलो हे प्रस्न अमेरिकेंत सतायतात. ह्या सुवातांनी भारतांतले एम्.फार्म, पी.एच्.डी आपणालें नशीब वा भाग्य सोदतात. वखदांच्या उत्पादनांत भारत बरोच फुडें आसा. हें आमचें बळगें. म्हूण भारतांत फार्मडी सुरू करून पव्या पर्वाच्यो म्हेडी रोवपी सभाग्यांनो, सावधान! पुराय विचार करात. ना जाल्यार हातचें वगडावन 'बाप्पाय ना आनी पुडवेंय' ना जावं येता. भायर भोंवलो, लोकां कडेन भासाभास केली म्हणटकच जीण अणभवसंपन्न जाता. संमेलनांत खुब्ब लोकां कडेन उलयतना हाचीच जाणविकाय जाली. भारतांतल्या फार्मडी अभ्यासक्रमाक अमेरिकन फार्मसी संघटनेची मान्यताय मेळना ते मेरेन फार्मडी वाल्यांनी अमेरिकेंत अचळय फार्मासिस्ट जावपाचें सपन पळोवचें न्हय! भारत आनी अमेरिकेंत एक मुळावो फरक आसा. हांगाचे लोकशायेंत राजकारण्यांचेर चेंपण हाडून कायदे बदलप इल्लें सोंपें आसत, पूण अमेरिकेंत 'फाटले तारखेन लागू' हो प्रकार ना! म्हण एएसीपीची मान्यताय घे मेरेन फार्मडी ही डिग्री अमेरिकेंत चलची ना!

संमेलनाक हजेरी लावन हांव भायर सरलों. शिकागोंत सांज वा काळोख जावचे पयलीं रुमार यो; एकलो भायर भोंवूं नाका - अपर्णाबायन हुस्को करून केल्ली सुचवण हांवें मतींत धरिल्ली. अमेरिकेचे वैभवशाली जिणेंतलो दळडिरो पिंजको पदर मात म्हाका शिकागोंत पळोवपाक मेळ्ळो. रस्त्यार भीक मागपी कांय लोक हे दळडिरे जिणेंतले हाडांमांसाचे पुरावे आशिल्ले. हॉटेला भायल्यान, गर्दी आशिल्ल्या चौकांत हातांत याचनेचे तकटे वा भिकेपात्र घेवन उबे राविल्ल्या मनशांक पुनवे दिसा आपल्या चान्न्यान संवसाराक न्हाण घालपी चंद्रिमा वयले काळे दाग मानप काय स्वतंत्रता, समता आनी बंधुभाव हीं त्याच मळबांतलीं नखेत्रां मानप?

दुसऱ्या दिसा सकाळीं चॅक आवट करून हांव बील भरपाची तयारी करतालों. कॅश डॉलर भरून हांवें बील फारीक केलें. डॉलर मेजतना गोंयच्यान घरकान्नीचो फोन आयिल्लो. डॉलर मेजप मर्दी थारोवन हांवें संभाशण पुराय केलें. हॉटेल मॅनेजराक तिश्टत दवरिल्ल्यान 'सॉरी' म्हळें. पूण ताचे नदरेंत कौतूक दिसलें. तो म्हाका कितें तरी विचारपाक सोदता अशें दिसलें. 'वॉट लँगवेज इज धिस,' ताणें नमळायेन विचारलें. 'व्हॅरी क्लोज टू हिंदी,' हांवें म्हळें. 'नो, तुम्हारी भाषा में, 'गाडी' शब्द के सिवा मुझे कुछ नहीं समझा.' मॅनेजराच्या त्या उतरांनी हांव थंड जालों. ताच्या बोल्सार आशिल्ली नांवाची पाटी पळयली. 'परवेझ अहमद'! म्हळ्यार हो आशियाई. आतां तो इतलो लागीं आयला म्हण हांवें 'तूं खंयचो?' असो प्रस्न केलो. अफघानिस्तान. पूण उर्दू ताची भास. 'दोन भारतीय मेळटात तेन्ना ते इंग्लीश उलयतात, दोन पाकीस्तानी मेळटात तेन्ना ते उर्दूच उलयतात.' ताचो तो कमेंट म्हज्या काळजांत सुरी तोपिल्ले भाशेन लागलो. खरें म्हळ्यार, आमी घरा कडेन जी भास उलयतात ती पेडणें, मालवणी, भटी, मराठी, कोंकणी अंश्या सगळ्या भयण भासांची मिसळ वा खतखतें. हांव शुद्ध कोंकणी उलयना. म्हाका मराठीय शुद्ध येना. पूण म्हजी भास भारतीय इतलें परवेजाक जाणवलें. ताचो कान ह्या उतरांक आशेल्लो आसूं येत. ना जाल्यार कोणाक पडलां, कोण मसणो खंयच्यान आयला, आनी खंयचे भाशेंत उलयता! ताणें उपरांत म्हजी बरी खबर घेतली. 'गोवा' अशें म्हणटकीच तें नांव आयकूंक ना अशे थोडे लोक आसूं येत. कमींत कमी हॉटेल वेवसायांत तरी. गोंयकार आशिल्ल्याचो होवूय एक फायदो म्हाका अमेरिका

भोंवडे उपरांत कळिल्लो. आमच्या दोगांयच्या उलोवपांत खुब्ब विशय आयले. पूण अमेरिकेचो भारतीय उपखंडांतलो वावर ताका तिडक हाडटालो. भारताचेर हजारांनी वर्सां आक्रमणां जालीं तरी थंयची संस्कृती तिगून उरल्या हाचेंय ताका कौतूक दिसतालें. म्हजे बसीचो वेळ जाल्ल्यान हांवें खबरो थारायल्यो. शिकागोक अलविदा करून हांव बस स्टँडार पावलों.

ग्रेहुंड बस स्थानकार हांव अर्द वर तरी बेगीन पविल्लों. व्हॅज सँडवीच घेवन ब्रेकफास्ट केलो! बस स्टेशन पळोवपाक हांव पासयो मारपाक लागलों. थंय सामान दवरपाक वराच्या कोंतान भाड्याक लॉकर मेळटाले. कम्प्युटर गेमीचीं माक्नां. म्हायती केंद्र. तिकिटी विकपाचो विभाग. रेस्टरूम. बसपाक कदेलां. थंय पयशे घालून वस्त मेळपाचीं यंत्रां आशिल्लीं. एका मशिनांत कोक लोड करतना हांवें बेठेंच शुटींग घेतलें. थंयचो कोयर काडटनाचे फोटे घेतले. ७५ सेंट घालून पेपर घेतलो. युएस् टुडे. प्रिन्ट मिडियाक मरण ना! सुनापरान्ताचे आदले संपादक संदेशबाब जायते फावट सांगताले. हांवें हें बरोवपाक घेतलां तें तेच आशेर. पूण मूर्ख बरयतात, धूर्त छापतात आनी शाणेच वाचतात अशें कोणें तरी म्हाका सांगिल्ल्याची याद जाली. इतलें सगळें आसून प्रवासांत पेपर वांगडा आसपाचे फायदे बरोवन आनी सांगून सोंपचे नात इतले आसात. मुर्खांची क्षमा मागून, धुर्तांचें कौतूक करून आनी सरस्पतीचे पांय धरून सांगतां, पेपरा सारको दुसरो सांगाती ना! घटकेक रद्दी जावपी दिसाळीं आसात म्हूण हो जिणेचा प्रवास चल्ला.

युएस् टुडेचें विच्छेदन करपाचें काम देवान त्या दिसा म्हजेर सोंपयल्लें. इतले बारीकसाणेन आनी उतरान उतर खंयच्याच दिसाळ्याचें हांवें वाचूंक ना. सात वरांच्या प्रवासांत छाप्पन पानांचें दिसाळें कितले फावट वाचूं येता? पूण ताका हांवें ७५ सेंट म्हळ्यार चवतीस रुपया फारीक केल्ले. खंयच्याय दिसाळ्याक आसता तशेंच ताचें रूप आशिल्लें. सगळींच पानां रंगीत. ताचे चार वांटे - ए, बी, सी आनी डी. पयलो वांटो राजकारणाचेर. ओबामाचो अफघानिस्तानाचो अध्यक्ष करजई वांगडा फोटो पयल्या पानार आशिल्लो. ताचे कुशीन वेचणुकेंत मतपत्रिकेंत गोंदळ जावपाची शक्यताय परगटावपी बातमी पुराय म्हायती सयत. दाव्यान न्यूज लायनीचो कॉलम. पेपराच्या सकयल्या अर्दान जपानांतल्या वाडट्या जीव दिवपाच्या प्रकाराची बातमी आशिल्ली. न्यूज लायनींत गॅस वाडपाची खबर छापिल्ली. अमेरिकेंत पेत्रोलाक गॅस म्हणटात. तांचे फिजिक्स कॅमेस्ट्रीक हांवें न्हिदून नमस्कार केलो.

दुसऱ्या पानार परतून वेंचणुकेच्योच खबरो. पानार निमाणे कडेन उपसंपादकाल्यो झेमो अशें बी म्हणूं येता तसल्यो किरकोळ चुकींच्यो दुरुस्त्यो, माफी बी असलें. पान तिनार राष्ट्रीय खबरो. एके बायलमनशेन दुसरे गुरवार बायलमनशेल्या पोटांतलें फारायल्लें भुरगें आनी ताची म्हायती. पाव भाजये वांगडा मिरसांग खावची तसल्यो हेर मारामाऱ्यांच्यो आनी अत्याचारांच्यो बातम्यो. पान चार इराक-अमेरिका युद्धाक राखून दवरिल्लें. पासपोर्ट बोल्सांत दवरपा येद्या ल्हान आकारांत मेळपाची आस्त. फुडल्या कांय वर्सां भितर कॅनडांतल्यान अमेरिकेक येवपा खातीर सगळ्यांक पासपोर्ट जाय अशी येवजण आसा. ताचोच हो परिणाम. पान धाचेर वाचप्यांच्यो चिटी. विंगड विंगड विशयांचेर भासाभास. पुराय पान वाचप्यां खातीर दवरिल्लें हें मात दोळ्यांत भरलें. इकराव्या पानार वियाग्रा संबधांत कार्टून. हेर भलायकेची म्हायती. निमाणें बाराव्या पानाचेर पुराय संवसाराच्या हवामानाचो अदमास दाखोवपी म्हायती. तातूंत दिल्ली, मुंबयचो आसपाव पळोवन जिवाक बेठेंच बरें दिसलें. अशे तरेन 'युएस् टुडे'च्या पयल्या खंडांतलो पयलो अध्याय हांवें सोंपयलो.

राजकारणा उपरांत येता 'अर्थ'. चीनाचें नुस्तें अमेरिकेक आयात करपाची मेकळीक ही पयली बातमी. परतून 'गॅस'. ताची खबर. कांय वेवसायीक जायराती, सुचोवण्यो. जिल्लो पातळेर चलपी दिसाळ्यांचो प्राण जायराती आसता अशें कोणें तरी भाशणांत म्हणिल्ल्याची याद जावन हांवें पान परतिलें. अमेरिकेंत शाळा सुरू जावपाच्यो आशिल्ल्यो. गिरायक ओडपाक वा गरयेक लावपाक चलिल्ले खटपटीचो 'सार' थंय अर्दें पानभर पातळिल्लो. उरिल्ल्या अर्द्या पानार अमेरिकेंतल्या विमानतळांची म्हायती. न्युयॉर्कच्या कॅनडी विमानतळाक साठ वर्सां जाल्लीं ताची खबर. विमानप्रवास हो अमेरिकेचे जिणेचें म्हत्वाचें आंग. वयर मळबांत केन्नाय पळयल्यार खंयचें तरी विमान दिसतलें. लादेनान हेच गजालीचो फायदो उठयल्लो आसूं येत.

'सी' विभाग खेळा खातीर. तातूंत गॉल्फाची दोन पानांची जायरात. फुटबॉल, बेस बॉल हांची म्हायती. डी विभाग 'ई' मिडीया खातीर. सिनेमा, टिव्ही, इंटरनेट हांची म्हायती. वीस जुलै १९६९ ह्या दिसा नील आर्मस्ट्रॉंगान चंद्रार पावल दवरलें. त्याच दिसाचें म्हत्व मतींत धरून अमेरिकेचे इबाडिल्ले अर्थव्यवस्थेक लागून मंगळा वयलीं आक्रमणां थारोवपाचे संकेत. टायमिंग बी म्हणटात न्हय, तें अशें. म्हजें नाक कापल्यार जाता, पूण तुका अपशकून करतलों. वाडदिसाच मर्तिकाचें सामान सांगपाचें, ते भाशेन ती बातमी म्हाका दिसली. गाडी कलमाझूक पावली. येदो वेळ म्हजे कुशीचो सीट रिकामो आशिल्लो. वतना सतवंताचो सांगात आशिल्लो. कलमाझूक बरी आडांगी बायल म्हजे कुशीक बसली. कांय वरांचोच बस प्रवास उरिल्लो. अमेरिका भोंवडीय एक दोन दिसांनी सोंपपाची आशिल्ली. पूण म्हयनोभर पळोवंक ना, आयकूंक ना तें उरिल्ल्या दिसांनी दाखयतां अशेंय नियतीन थारायल्लें आंसू येत.

# कविता

## *तूंच म्हाका लाग*

**भरत नायक**

कोंकणीचो गांधीवादी
शांतताये वाग
पितामह रवीन्द्रबाब
अचकीत सामकार
रावलो उबो
आनी म्हणलें जर
'तुका जाय तें माग'
खिणा कळाव लायनासतना
हांव म्हणन, तात्या...
तूंच म्हाका लाग.

तुजे एकेच जापेन तात्या
बंद जालो वाद
इतलो तेंप धगधगतालो
मोग जालो राग
सुवर्ण म्हालांत प्रवेश करूंक
तुवें तात्या आमचे खातीर
उकतें केलें दार.
आनीक खंयची दिका उकती
करची उरल्या सांग
जैता घुडी संवसाराचे
तेंगशेर लावपाक
तूंच म्हाका लाग, तात्या
तूंच म्हाका लाग.



त्या वेळार आमी आसले
गोंयकार लाख सात
अकरांनी घेतलो सोपूत
बाकी सुसेगाद,
आजून तांतले सगळे जाण
जाले नात बाद,
थोडे सुस्तेले, थोडे कश्टले
दीस आनी रात,
आयच्या काच्यांबच्यांक लेगीत
आयल्या निजा जाग,
जैता रथ फुडें चलोवंक
तूंच दाखय मार्ग
तेच खातीर येवन तात्या
कोणाक तरी लाग.

जातधर्म कडेक दवरून
घेवचे सगळ्यांक गोपांत
गोंया भायल्या आमच्या भावांक
हाडचे आसात गोंयांत
असली शक्त दिसली आमकां
तात्या तुज्या उतरांत
तुजे फाटल्यान आमीय तयार
मारुंक उडी उज्यांत,
तुज्या पावलार पावल दवरून
देंवपा खातीर झुजांत.
शुभ्र वस्त्रा वयले म्हेळेल्ले
धुवन उडोवंक ते दाग
सुरू केल्ले चळवळीचे
आमीय जावचे भाग,
देखून तात्या,
तूंच येवन
आमकां सगळ्यांक लाग.

अजून हांगा उरल्यात पिडपी
जगभर हेडपी आनी
तुमच्यांत कांय ना म्हणपी
अबुद्‌द्यांक दिवपा खातीर
तोंडभर जाप, तात्या,
तूंच आमकां लाग.

सत्यवाद खबर नासून
काळखांत झळपेता भाव
म्हजे तुजें करीत रावल्यात
उरफाटे खेळटात दाव
नेणारपणान जाणारांचो
घेवन बसल्यात राग
सगळ्यांक हाडून एका तत्वार
देश करूंक बलवान
निजा उतराक हाडून जाग
हे तात्या... तूंच आमकां लाग.

तिरस्कार निंदा अपमानाची
पर्वा करनासतना
तुस्त तोखणाय मानसन्मानान
भारावनासतना
अखंडीतपणान तुजे वरी
करपाक भाशे कार्य
हे तात्या... तूंच आमकां लाग.

दिसता ताचेय वचून पलतडीं
स्वतंत्र विचार करपा शक्ती
भवितव्याच्या पर्जळाचो
सांपडचो म्हणून मार्ग
हे तात्या... तूंच आमकां लाग.

अजून एक उरलां सपन
पुराय जावचें तुजें वचन
संवसाराच्या आंगणांत म्हजें
कोंकणी घोळचें नांव,
ते खातीर भावां मदलो
सोपोवंक अविचारी वित्राग
हे तात्या..
तूंच आमकां लाग
तूंच आमकां लाग!



## तीन कविता

**- आर रामनाथ**

### *सृश्ट*

ही म्हजी
निरर्थक जीण
हांवें हे पडंग भुंयेंत पुरली
ताचेर एक कलमाचें झाड लायलें
ह्या कलमा झाडार
तरेकवार भुतां
आनी मोठीं मोठीं खेटां हाडून दवरलीं
उपरांत -
वावटळी, वादळां-मोडां, उटंग्याचो पावस
हांचो खेळ सुरू जालो
वातावरण भयाण जालें
वाठार आपशींच निर्जन जालो
एक वेगळीच सृश्ट निर्माण जाली...
हे सृश्टीचो निर्मातो कोण
हाचो आजुनूय सोद चालू आसा...

म्हजेंय नांव चर्चेंत आसा.

### *ताणें म्हाका रचला*

ताणें म्हाका रचला
तुवें म्हाका वेंचला...

ताणें म्हाका पोसला
तुवें म्हाका सोंसला...

ताणें म्हाका शेकला
तुवें म्हाका चेंचला...

ताणें म्हाका मापला
तुवें म्हाका कापला...



ताणें म्हाका राखला
तुवें म्हाका लासला.

### *एका हुसक्यान*

एका हुसक्यान
ताणें म्हाका
दा
व्या
क
बांदला
एका धसक्यान
हांवें ताका
गो
ळा
क
लायला.



### *जाम आदमी*

**श्रीकृष्ण हनुमंत मावजो**

आम आदमी म्हणत म्हणत
सगळ्यांक केले जाम

म्हारगाय खूब वाडल्या तरूय
उदका परस सवाय रम

कसलें बाये सरकार हें
उदरगतीचें जायना काम

मिनेर अदीक गब्बर जातात
मानाय गळयंतात घाम

प्याज म्हारग, व्याज म्हारग
ड्रग्सांची आयल्या धाम

बापू आयज आसले जाल्यार
म्हणपाचे, हे राम, हे राम!



# मानवी मनाचो तळ सोदपी कादंबरी *तळाचो फातर*

**राजश्री सैल**

खरो कादंबरीकार वा नवलिकाकार जिवन शैली घडोवपी आनी जिवन रुची केळोवपी आसता. साधारण नवलिकाकार आपणें रचिल्ल्या कथाबिजांत घुस्पून पडटा, पूण वयल्या दर्जाच्या कादंबरीकाराक मात कलात्मक रितीन सजयिल्ल्या कथात्मक प्रसंगांचे फाटभुंयेचेर मानवी व्यापाचो घुस्पागोंदळ, जंवजाळ चित्रण करपाचेंच आकर्शण आसता.

*तळाचो फातर* हे रामनाथ गावडे हांचे नवे कादंबरेंत एका गांवगिऱ्या चोम्याचे प्रस्न ज्वलंत जावन येतात. कादंबरी चिऱ्या खणी भोंवतणी घुंवता. दत्तू आपली जमीन कल्लप्पाक चिरे काडपाक दिता, आनी मागीर सुरू जाता एक नाट्य. कल्लप्पा पोटा खातीर चिऱ्यांचो धंदो करता. पूण शेत जमनी कडलें ताचें भावनीक नातें दाखोवंक लेखक यशस्वी थारता.




एक असहाय्य अगतीकताय पुराय कादंबरेंत व्यापून उरता. कादंबरेंतलें दत्तूलें व्यक्तिमत्व एके घुस्पल्ले, लोंबकळिल्ले अवस्थेंत दिसता. खंयच्याय पात्रा विशीं लेखक खंयच तोंकाची भुमिका घेना. दत्तू विशीं तो संवेदनशील आसा, तशेंच कल्लप्पा विशींय ताच्या मनांत आपलेपण आसा.

गोंयच्या गांवांनी सुरू जाल्ल्या एका थरारक नाट्याची लेखक आपणाले कादंबरेंतल्यान सुलूस दिता. खिणयाळ्या सुखाक, चकचकाक भुलपी गोंयचे दर्यावेळे वयल्या आनी दोंगरदेगे वयल्या समाजाची शोकांतिकाच लेखक मांडटा.

सोरोप भारतांतल्या गांवजिवनांतलें आदीम अशें दैवत. शेता भाताचो तो राखणदार - 'क्षेत्रपाल'. हे कांदबरेंत हो हळदुवो सोरोप गूढ रितीन येयत रावता, खिणयाळ्या पयशाचे आशेक भुलून सर्वनाश करून घेवपी दत्तूक तो परत परत दिसता. नितीमुल्यां पारंपरीकताय हाचो राखणदार जाल्ले वरी.

शेतकाराची पारंपरीक गरिबी, कश्ट, हाडाचीं काडां केले शिवाय कांयच मेळचें ना हें सत्य, आनी तातूंतल्यान शेत चिऱ्या खणीक दितकच ताचें भुल्लुसप, सगलें सभावीक. पुराय गांवांत तेंच वारें घोळूंक लागलां. सहज मेळपी पयसो, ताचो चकचक, आनी पारंपरीक गांवजिवना कडले, सैमा कडले आदीम मायाबंध हांचे मर्दीं दत्तू तळमळटा.

कादंबरी वाचप्याक कुवाड्यांत उडयता, अस्वस्थ करता, कोण खरो कोण फट हाचें कुवाडें निमाणे मेरेन सुटना.

कादंबरेंत पोरणीं नितीमुल्यां आनी आधुनीकताय हांचे मदलें झगडें आसा. हें झगडें सुरवेक शेत आनी चिऱ्या खणी हांचे पसून सुरू जाता. शातव्वालें चेडूं राजक्का हाचो नागराजान केल्लो बलात्कार, लताचें क्षणीक वासनेचे भकीक पडप, राजेनाचें व्यसनी जावप अशें एक कलहचक्रूच पुराय कादंबरेंत घुंवता आनी निमाणें कळस म्हळ्यार कल्लप्पाच्या पयशां मुखार पुराय गांवकेक खावची पडिल्ली हार.

मनशालो सुवार्थ, आनी सुवार्था पासत मनीस खंयच्या तोंका मेरेन वचूंक शकता, पारंपरीकताय आनी नितीमुल्यां कशे तरेन खुंटयेक लावूंक शकता, ताची काणी हे कादंबरेंत आसा.

कादंबरेंतलो दत्तू हो शेताचो मालक. घरांतली गरिबी, चल्याली बेकारी, वाडिल्ली चली अश्या घुस्पागोंदळांत तो पडिल्लो आसतना शेत चिऱ्या खणीक लावन रोखड्या रोखडे पयशे मेळोवपाक तो भुलता. पूण भितल्ले भितर अस्वस्थ आसता. परत परत सोरोप दिसप हें ताच्या मनाचे अस्वस्थकायेचें प्रतीक.

शेताची चिऱ्या खण करप म्हळ्यार माये समान आशिल्ले भुंयदेवतेचें रगत पिळप ही जाणविकाय दत्तूक आसा. पूण मुळांत दत्तू हें पात्र अगतीक, कणो नाशिल्लें, अक्कलशुन्य आनी अवेव्हारी. पुराय कादंबरेंत तो एक घुस्पल्ले, लोंबकळिल्ले अवस्थेंत दिसता. हें पात्र जे तांकीन उबें जावंक जाय आसलें तशें उबें करपाक लेखक उणो पडला. कादंबरेचे सुरवाती सावन निमाणे मेरेन हें पात्र विस्कळितूच उरता. एकसंघ असो आकारूच घेवंक पावना. कल्लप्पा कडेन वेव्हारांत वाटाघाटी करपी दत्तूक कल्लप्पा आनी सरपंच मेळून तुका फटयतात, आपणें बारांत बशिल्ले कडेन तांचीं उलोवणीं आयकल्यांत अशें राजेन तळमळीन सांगता. बापायन तांकां जाप विचारची अशेंय

राजेनाक दिसता, पूण दत्तू ओगी रावता. अशें ताचें मुर्दाड फातरा वरी ओगी रावप कादंबरेंत परतें परतें येत रावता.

चलो राजेन चिन्या खणींतले पयशे बापायक सांगनासतना वापरता. टि.व्ही. घेतना ताचें मतूय विचारिना. स्कुटर घेता. हाचेर एका उतरान दत्तू चल्याक जाप विचारिना, हें अजाप दिसपा सारकें.

चलो बारांत वता, सोरो पिता, चली किशना वांगडा भोंवता, पूण खंयच दत्तू पुरायेन तापिल्लो, अस्वस्थ जाल्लो दिसना. उरफाटें, नियतीचे खेळी मुखार तो चडूच अगतीक, दुर्बळ जाल्लो दिसता.

कल्लप्पा हें पात्र लेखकान फिशालकायेन उबें केला. शेत चिन्या खणीक दिवन गांवची पारंपरीकताय भश्टावपी कल्लप्पा विशीं लेखक संवेदनशील आसा.

मानाय म्हणून आयिल्लो कल्लप्पा, कशे तरेन आपले जिद्दीन आनी कश्टान खणीचो मालक जाता हें सांगतना लेखकाची लेखणी तेंगशी गांठ्ठना दिसता. तशें पळोवंक गेल्यार, पुराय कादंबरेंत लेखक कोणाचीच बाजू घेना. जें घडटा तें थोडोसो तटस्थ रावन तो वाचप्यां मुखार मांडटा. कल्लप्पा हें पात्र लेखक इतल्या संयमान उबें करता की खंयच वाचप्याल्या मनांन ताचे विशीं कोडसाण येना. खणीच्या कामाची सुरवात करतना सैमाची लागणूक तो सांबाळटा, थळावें देवस्पणूय केल्लें दाखयता.

कादंबरेंत बायल पात्राचें चित्रण करतना लेखक खुबूच संयम दाखयता. कल्लप्पा आनी रत्नें वा शांतव्वा हांचे संबदान एकूय वाकडें वाक्य तो येवंक दिना. पूण हाका कलात्मक संयम म्हणचे परस कलात्मक चुकूच म्हणप योग्य थरतलें अशें म्हाका दिसता.

दत्तूली बायल, रमाआवो, शंभूली झगडाळ बायल हांचें चित्रण लेखक सुंदर रितीन करता. पूण लता आनी किशन हांचे मदल्या संबंदाचीं वा प्रणय चित्रणाचीं चित्रां रंगोवपाक लेखक थोडो उणो पडिल्लो दिसता. मर्दीच 'मोगाच्या स्पर्शान मडें नाचूंक लागता', अशे विरूस करपी वाक्प्रचारूय वापरतना दिसता.

रमाआवो हें पात्र जाणटें, पूण सकारात्मक दृश्टीकोण आशिल्लें, कुड्डें, अंधविस्वासा आड उलोवपी, बंडखोर अशें चितारलां. चिन्या खणी आड ती उलयता. परत परत शिटकायता. शेताची पिकाळ जमीन चिन्या खणीक लावन पुराय गांव काबार जातलो, हाची खर जाणविकाय तिका आसा. दत्तूची बायल सुरवेक चिन्या खणी आड उलयता, पूण उपरांत ती खणींतल्यान येवपी पयशाक भुलता. पूण रमाआवो मात मर्दी मर्दी उतरांच्यो बडयो मारून धीटपणान चिन्या खणी आड उलयतना दिसता.

पुराय कादंबरेंत रमाआवो सोडल्यार, कोणूच खणी विशीं वा कल्लप्पा विशीं वायट उलयना. दर एकलो व्हांवते गंगेंत हात धुवपाचे ताकतिकेंत आसता.

### कादंबरेची भास शैली

गांवगिरी भास, ओपारी, म्हणी, हांचीं सर्वांग सुंदर बिजां पुराय कादंबरेंत फाफसल्लीं दिसतात. मर्दी मर्दी रामाआवोच्या तोंडांतल्यान ल्हान ल्हान काणयो सांगपाची लेखकाली शैली ओडलायणी दिसता. धालांमांडार रमाआवो वास्तव गुंथून नवीं धालां गितां तयार करता, आनी अस्वस्थ दत्तूक आनिकूय तळमळयता.

पूण लेखकाले वर्णनात्मक शैलींत कांय कडेन विस्कळीतपण आयिल्लें दिसता. गरज नासतना लेखक गांवगिऱ्या वाठारांतले रंगमाचयेर वापरांत आशिल्ले नाटकी शैलीचो वापर करता. हें कादंबरेच्या वेगाक बाधक थारता आनी भाशेंत कृत्रीमताय हाडटा. लेखकाली वर्णनात्मक शैली सुरवातेकूच मार खाता. पूण मुखार मुखार मात व्हांवती, ओघवती जायत वता.

पुराय कादंबरेंत कल्लप्पा हेंगाडी कोंकणी उलयता. पूण कल्लप्पाचो मेवणो किशन जो कल्लप्पा उपरांत गोंयांत आयिल्लो आसता तो शुद्ध कोंकणी उलयता. हें थोडेंशें विसंगत दिसता.

कादंबरेंत दर एक पात्र आपले परीन भोगणार भोगता. सैम आनी मनीस, मनशालें स्वताचें अस्तित्व तिगोवपा खातीर चलिल्लें काळ काळंतरा पसूनचें हें झगडें. ह्या झगड्याक परिभाशाच ना. ताची व्याख्याच करूं नजऽ. केन्ना केन्ना हें झगडें झुजतना मनीस सैमा कडेन अती मोगाळ, मायाळ जाल्लो दिसता वा केन्ना केन्ना सुवार्थी, दुश्ट जावन सैमाक खावंक उठिल्लो दिसता. कादंबरी लेखक वाचप्याक चिंतपाक अवकाश दिता. वाचप्याकूच तो अनुमानूय काडूंक लायता. पूण कांय प्रस्न अनुत्तरीत दवरता.

कादंबरेचो शेवट मात लेखक गडबडेंत आशिल्ले वरी, गुटलावन कवळिल्ले वरी एका फाटल्यान एक असो सुखान्त करून उडयता. आनी एका नाट्याचो आपणें निमाणो शेवट केलो असो सुस्कारो तो सोडटना दिसता. आपल्या मूळ प्रकृतीधर्मान 'all is well' म्हणिल्ले वरी कादंबरेची सुखान्तिका करता. पूण खरें म्हळ्यार ही एका चोम्याची, एका समाजाची, पुराय सैम वेवस्थेची पारंपरीक नितीमुल्यांची शोकांतिकाच. फुडाराक वैश्वीक पातळेर मनीस आनी सैम हांचे मदीं जें खर झूज सुरू जावपाचें आसा ताचें हें ल्हान पूण खर तरंग. पारंपरीक निखळ निवळ सैमवेवस्था आनी आधुनीक भोगा फाटल्यान धांवपी विकृत मनीसजाती मदलें झगडें आनी तातूंत बळी पडपी असहाय्य दुर्बळ मनीसजातीचे भोगणार हे कादंबरेंत आयल्यात.

कांदबरी वाचप्याक कुवाड्यांत घालता, अस्वस्थ करता. हो लेखक ज्वलंत खतखतपी ज्वालामुखी, ताच्या जिवनतप्त तत्वगिन्यानाचो जाळ अजून येवचो आसा अशेंच हांगा निमाणे कडेन म्हणन दिसता. ह्या लेखका भितर जी सर्जनशील उर्जा आनी मनीसजाती विशीं, मनीसपणा विशीं जी अपरंपार संवेदनशीलताय, श्रद्धा, खर निश्ठा आसा ती खऱ्यांनीच तोखणाय करपा सारकी.

***तळाचो फातर***

**रामनाथ ग. गावडे**

**मोलें-गोंय: आदिमंत्र कलारंग, २०१०**

**पानां: २४८, मोल: २०० रुपया.**

# The Goa Inquisition

## The Terrible Tribunal for the East




**भारतातील गेल्या**
**चार शतकांच्या कालावधीतील**
**धर्मांतराशी संबंधित**
**अत्याचारांच्या स्मृतींचा मागोवा**

पोर्तुगिजांच्या पूर्वेतीलं धार्मिक धोरणाच्या विस्तृत पार्श्वभूमीविरुद्ध, भावनांच्या आहारी न जाता गोव्यातील अन्वेषणाची विविध· बाजूंनी केलेली व्यक्तिनिरपेक्ष कारणमीमांसा ह्या पुस्तकात समाविष्ट. पुराभिलेख विभागाकडील उपलब्ध अधिकृत दस्तऐवज व चित्रे, खिस्ती धर्मप्रचारकांचा पत्र व्यवहार आणि तत्कालीन युरापीय प्रवाशांनी दिलेली माहिती यांवर आधारित असे हे पुस्तक.
फ्रेंच पर्यटक डॉ. डेल्लॉन यांच्या तीन वर्षांच्या तुरुंगवासातील कैद्यांच्या छळाच्या अनुभवांचा पुनर्मुद्रित चक्षुर्वैसत्यं वृत्तान्त.

लेखक :
अ. का. प्रियोळकर

आकार : **A5**
कागद : पांढरा **80 gsm**
बांधणी : सेक्शन शिलाई, हार्ड बाऊंड
मूल्य : रु. **695/-**
(ट. ख. नि.)




**राजहंस वितरण**
1 - मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्हुल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग, पणजी, गोवा 403001
Ph.:91 - 0832 2220320 / 2232177
email : rajhaunsvitaran@dataone.in

Raj. Ad-03

# Promoting higher education



11 Scholars from Goa pursued higher studies under Goa Scholar Scheme

- 13 colleges extended finance under the Interest Free Loan scheme for infra structure development
- Special B. Ed programme for teachers of special children commissioned
- Scheme for free education to Girl Child proposed.
- 3384 computers distributed under cyberage scheme.
- Work of Quepem College library building in progress

Issued by:
Department of Information and Publicity
Government of Goa



Working towards a Secular & Prosperous Goa

Published & Printed by Dr. J. B. Sardesai, owner of JAAG Monthly, 201 B, Saldel Apts., Rua de Saudades, Pajifond, Margao, Goa, and Printed at Rutu Offset Printers, Volvoi, Ponda -Goa. Editor : Madhavi Sardesai